# आमीं ना कमीं

(नाटक)

महेश चंद्रकांत नाईक



**AAMI NA KAMI**
A Konkani Play by–
Mahesh Chandrakant Naik

**उजवाडावपी**
अक्षरब्रम्ह प्रकाशन
व्दारा-महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय ४०३००१
फोन-२४२६२०९
प्रकाशन क्रं - १०

**पयली आवृत्ती**
डिसेंबर २००९

**अक्षर जुळवण :**
मेसर्स फीरदौस (के. ए. खान)
वास्को-द-गामा, गोवा
मोबायल: ९२७००४५७७५

**छापणावळ : श्री प्रिन्टर्स, मेरशी**

**मुखावयलें चित्र : कैलास नाईक**

**मोल: १०० रु.**

लेखकाची नामो: महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय-४०३००१
फोन: २४२६२०९.

म्हजीं दोन उतरां...

'आमीं ना कमीं' फकत बायलांखातीर जल्माक आयिल्लें हें नाटक. आमीं ना कमीं हें नाटक नासून तो एक संदेश आसा की आमीं ना कमीं.

ह्या नाटकान सुरवातीक गांवची सरकारी शाळा दाखयल्या. शाळेन गांवचीं गरीब भुरगीं शिक्षणाक वता. तांचेकडे बॅगां नासल्याकारणान तीं पोतयो व्हरता, तांचो युनीफॉर्म लोवलेलो, पिनलोलो आसा. तांच्या आवय बापायचें शिक्षण कमी आसा जावं जावंकूच ना. तातून तांची शिक्षिका शिक्षणच्या बदल्यान तांचेकडल्यान घरचीं कामां करुन घेता. ह्या नाटकांतले शाळेंतले प्रसंग काल्पनीक आसले तरी हें असत्य आसूं शकना.

अक्षया नावाचें घमेण्डी पात्र हे काणयेन तुमकां सांपडटा. जितके घमेण्डी तितकेंच स्वार्थी. स्वार्थ पैशाचो, आपलेपणाचो. ह्या स्वार्थाक सीमा ना म्हणून तर तोच स्वार्थ ताका भयणीचो खून करपाक प्रवृत्त करता. पूण निमाणे वायट कर्माचे फळ वायटूच आसता. म्हणून तर सगळे नाशिवान आसोन लेगीत अक्षयाचें हात रितेच उरता.

दर एका भुरग्याक दिसता आपणाच्या आवय, बापायन आपणाचेर खूप मोग करचो, आपणाक जाय तें सगळें हाडून दिवचें. अक्षयाकूय तशेंच दिसप निसर्गीक आसा. जुळयो भयणीं आसूनय मोगाची तागडी वयर सकल किदयाक? अपंग भुरग्याचेर सगल्यांक सहानुभूती आसता. अशा भुरग्यांचें

लाड, मोग चड जाले जाल्यार हातून चूक कांय ना. पूण ह्या सगळयान अक्षयाचो एक प्रश्न तकलेक ताण दिवन वता. तो म्हळयार 'म्हजी भयण अपंग जाल्यार हातून म्हजी किदें चूक?

ज्योती, कविता, रूबी ही तिघांय शेजारी, फ्रेण्डां ती आपले नशिब गांवच्या सरकारी शाळेतल्यान शारांतले कॉलेजीमेरेन व्हरता. पायवाट चलणारी पावलां चलत चलत डांबरी रस्त्याक स्पर्श करता. लोक तांका बुरशीं, गरीब, 'हांचो फुडार गावाभायर ना' म्हणटा. लोकांचें हेंच विचार ती बदलून वडयता पूण डांबरी रस्तो मेळळो म्हण वाट सहज जायना, पाय वाटेन काटे मेळटा जाल्यार डांबरी रस्त्यार खिळे!

हें नाटक पुराय कॉमेडी. तातूंन सस्पेंसाचो एक भाग जोडला. कॉमेडी आनी सस्पेंस ह्यो दोन गजाली हातून पळोंक मेळटा. सुरवातीक ह्या नाटकान शाळा आसल्याकारणान तातूंतली मस्ती, फकाणां, झगडीं पळोंक मेळटा. हें सगळें माचयेर पळयणारो नाटय रसीक शाळेन स्वताक शेणोन घेतलो. ल्हान आसताना भुरगी लुडबीं आसता. हें काणयेन एक पात्र लुडवे आसा. हे पात्र व्हड जातकूच लुडबेंच दवरपाक कारण फकत मनोरंजानाचो भाग म्हण. काणयेकडे ताचो काय संबंध ना. वक्ल काडतकूच कायच न दिसणारें पात्र, तशेंच तिसरें ख्रिस्चन, ह्या पात्रान नाटकाक वेगळी दिशा दिल्या म्हणू येता.

हॉस्टेलान अक्षयाचे वागंडी खुशी सस्पेंस उक्तें करपाक मदत करता. फ्रेण्ड म्हण हें ताज्या वायट कामांग तेंको दिना. ज्योतीक सोंपणावयल्यान वडोवप ताका पटना, म्हणून तर तें ताका आडावपाचो यत्न करता. अक्षया, अक्षरा न्हय हें बिंग फुटपाक तेंच मदत करता. अक्षया फ्रेण्ड आसूनय तें सत्याची बाजू घेता. म्हणूंन म्हणुंया वायट सांगाताचो परिणाम वायट जाताच असो ना. दर एकल्याची भावना वेगळी आसा.

दर एकलो मनीस स्वताचे नशीब घेवन जल्मांक येता. तें नशीब ताज्या हाताच्या शिरानी लिपलेलें आसता. कपड्यावेल्यान मनशाक किदयाक वळखुपाचें. मनशान जिंदद आसत जाल्यार मनीस किदें करूं शकना? स्वताचें नशीब बदलपाची ताकत मनशान आसा. आयज बायल जात स्वताचे नशीब स्वता घडयता. ती कोणाच्या उपकारान ना. आयज ती अभिमानान जगता. दादलो मनीस ताका पायांपोंदा चिड्डोंव शकना, जांव गुलाम करून दवरूं शकना. ती स्वतंत्र आसा. म्हणून तर आयज बायलांचीं स्वतंत्र नाटकां येता जातून दादल्यांक वाटो ना. दादल्यांनी नाट्यरसीक जावन तांची कला पळोवन तोंखणाय करची आनी बायला किदें करूं शकता हाचो अदमास घेवंचो. आयज संवसारान समजोन घेवंक जाय की बायल जात ना कमी. आनी बायलांनी अभिमानान म्हणचे आमी ना कमीं.

**— महेश चंद्रकांत नाईक**

## *उपकार*

म्हजें हें नाटक पुस्तक रूपान येवपाक
मुकेश कायसूवकार
आनी कैलास नाईक
हांणी खूप आदार दिला,
ते खातीर ताचें खाशेलें उपकार.

# आर्मी ना कर्मी

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग विघ्नेश महिला मंडळ हे संस्थेन कांदोळे हांगा श्री रामपुरूष देवस्थानच्या मंडपान ४ एप्रिल २००९ ह्या दिसा सादर केलो. ह्या प्रयोगांत वांटो घेतिल्या कलाकारांची नामावळ:

| | |
|---|---|
| बरोवपी / बसोवपी | — महेश चंद्रकांत नाईक |
| पार्श्वसंगीत | — कैलास नाईक |
| उजवाडा येवजण | — अभय आरोंदेकार |
| वेशभुशा | — सौ. श्यामी हळर्णकार |

## भुमीका आनी कलाकार

| | |
|---|---|
| ज्योती | : सौ. अनीता आरोंदेकर |
| कवीता | : सौ. सुषमा फळारी |
| रूबी | : सौ. दीपिका कांदोळकर |
| अक्षया | : कु. वर्षा कांदोळकार |
| बाई | : सौ. अनुषा कांदोळकर |
| मम्मा | : सौ. अश्विनी कांदोळकर |
| खुशी | : कु. स्वाती काणेकार |
| मॅडम | : सौ. शांती मयेकार |
| इन्स्पेक्टर | : सौ. रूपाली शेटकार |

## महेश चंद्रकांत नाईक हांणी बरयिल्लें कोंकणी नाट्य साहित्य

**उजवाडाक आयिल्लीं नाटकां :**

१. ॲक्शन

२. ऑल फॉरयू

३. ॲरेस्ट हिम

४. ॲक्टींग, ॲक्टींग

५. आय ॲम सॉरी (लेखनाचें बक्षीस मेळोवपी नाटक)

६. ॲक्चुअली... आय लव्हयू

७. आत्मो

८. आत्या, आत्या सून कर

९. ओन्ली फॉर यू

१०. आमीं ना कर्मी

**उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां**

आधार एअरलायन्स, अपूरे स्वातंत्र्य, आय डोन्ट केअर, ऑपरेशन डबलगेम, ॲनीथींग फॉर यू, अठरा जून, आय हेट यू.

**एकांकी**

ऑपरेशन डबलए, आधार

**नाटकुलीं**

आमीं अशें म्हणून तशें

आमचो खेळ

आयच्यान आळशीपणां नाका

**एकपात्री**

चेडू, मिस इंडिया, व्हकल, मेथी

॥ श्री गणेश ॥

## “अंक पयलो”

*(पडदो उघडटा, शाळेचो वर्ग दिश्टी पडटा)*

ज्योती – यो, यो बेगीन यो ..... कोणूच येवंक ना दिसता. आरे! आयज वर्ग खाली कसो आसा? बाक ना, फळो ना, मेज ना. कविता, आयज शाळा आसा तरी मगो? (कविता येता) भुरगीं ना, बाई ना, बरें आसा, वस्तूय ना कश्यो?

कविता – अे दोती कोनाकले उलयता गो?

ज्योती – तुज्याकडे, कविता, आयज शाळा ना?

कविता – किदयाक?

ज्योती – कशी आसतली? शाळेन बाक ना, खुंर्ची ना, फळो ना. पळय वर्ग खाली आसा, वर्गान लायटूय ना दिसता.

कविता – तू तुजें हें वक्ल घाल पलोवया.

ज्योती – म्हजें वक्ल तुजेकडे कशे?

कविता – चलताना वातेल पदले तें तुका खबलूत ना. तुजें वक्ल कालपाक हांव लावलें. तू एकलेत चलत वर्गान येयले आनी हांगा येवन एकलेत बलबलता. आनी म्हनता बाक ना, फलो ना, शगले आशा. ना तुजें वक्ल. घाल तें वक्ल आनी पलय शगले झाग्याल आशा.

ज्योती (घालता) दिशलें शगलें? आसा सगळे जाग्यार आसा.

कविता – कुददे खयचे.

ज्योती – अे कविता, माका कुडडे म्हण नाका. सांगून दवरता.

कविता – वक्ल घालीना झाल्याल दिसता तुका?

ज्योती – ना.

कविता – मगील झाले न्हय कुडडे.

ज्योती – तू म्हजें फ्रेण्ड मगो आनी माका कुडडे म्हनटा. स्वता लुडबे ते पळय.

कविता – हाव किले शदाच लुडबे लावचे ना. आवय शागीं हांव व्हडले झाले काय म्हझे लुलबेपन वयतलें.

ज्योती – हांव व्हडलें जातकूच माझेय कुडडेपण वयतले.

कविता – कछे वयतले? तू व्हदलें झाले काय दोले बदलतले? ना मगो? ते तेच उलयतले. कुडडे.

ज्योती – आनी तू व्हदलें जातकूच जिबली बदलतली? ना मगो? लूडबे.

कविता – जिबली बदलचीना पून लीप जातली.

ज्योती – म्हजेय दोळे लीप जातले.

कविता – वाट पलय.

ज्योती – तू वाट पळय (रुबी येता)

रुबी – अे ऽ ऽ चोयात हांव येयलें. मुगेली वाट चोयताली मुगो?

कविता – तू येयले हे मोत्यान माका शागूं नाका. कोनांग दिशना तेंका शांग.

रुबी – म्होळयार कोणाक ह्या कुड्याक?

ज्योती – रुबी, तू म्हाका कुडडे म्हणटा?

रुबी – हाव फुय म्होनटा, हावेन फोकोत प्रोशन केला.

ज्योती – हे कविता परतून–परतून माका कुडडे म्हनटा.

कविता – आनी तू माका लूलबें म्हनीना?

रुबी – तूमी सॉदा धुकरां कोशी जोगडताय किदया गो?

ज्योती – तुका आमीं धुकरां दिसता? धुकर तू.

रुबी – अे ज्योती पोती म्हाका धुकर म्होण नाकाय.

कविता – तू आमकां धुकलां किदयाक म्हनता. तू धूकलूच

रुबी – अे कोविता तू किदे म्होनता?

कविता – धुकल.

रुबी – किदे?

कविता – धूकल, धूकल.

रुबी – (धूकलता) हें चोय धूकलले.

ज्योती – ते तूका धूकल म्हणीना धुकर म्हणटा.

रुबी — ह्या कुड्डयाक लुडब्याची भाशा बोरी गोमता. कोविता, तू माका धुकर मोनताय गो?

कविता — हय.

रुबी — तू माक धूकर म्होनताय?

कविता — हय, आनीक म्हनतले.

रुबी — म्होण. तूक जाय तितके फावट धुकर म्होण. पुण धुकरीण म्होण नाकाय. माका राग येताय.

कविता — तू माका लूलबें म्हन नाका. म्हाका आईन शांगला हांव मोतें जातकूच माझे लुलबेपन वयतले.

रुबी — व्हय, तोशे जाल्यार दिसाक चारदा जेय.

कविता — कित्याक?

रुबी — मोठें जावंक नाकाय.

कविता — आंगान मोतें न्हय. लाम झालें काय.

रुबी — तोशे जाल्यार फॉणसाच्या झाडाक पोंत्ते लोमकोळ.

कविता — अगो हांव व्हड झातकूच म्हजी जिबली झरतली आनी लुलबेपन वयतले.

रुबी — ओशे.

ज्योती — आता आनीक जोगडी नाका. चला बसोया. बाई येवपाची वेळ जालो. (बसतात)

रुबी — माका व्होदोळच्यान इंगा नुस्त्याचो वास येताय.

कविता — ह्या दोतीच्या पोतीक तो. शाळेची पोती घेवन येवचे शाणून नुस्त्याची पोती घेवन येयला ते.

रुबी — हे कुडडे आनी कीत कोत्तेले.

कविता — पोती दिशोंग ना बले आशा वाश तली येवंक जाय.

रुबी — तुजे दोळे फुटल्या, आनी नाकूय फुटला.

ज्योती — तुमी म्हाका कुड्डे म्हनटा हाव पंप्पांक सांगतले.

कविता — माका लुलबें म्हनता, हाव बाबाक सांगतले.

रुबी — तू पंप्पाक सांगतोले आनी तू बाबाक सांगतोले. माकाय पाय आसा हांव पायक सांगतोले.

ज्योती — म्हाका एक कळना आमी सदी शाळेन जगडटा किदयाक.

रुबी — हीका जोगडी मोनणाय. ही ॲक्सोसायज. ओशी ॲक्ससोसायज मुगेली माय पाय सोदा कोत्ता.

ज्योती — तुजे माय पाय जगडटा, तू जगडटा आनी तुमचीं धुकरांय जोगडटा.

रुबी — अे ज्योती नुस्त्याच्या पोती आमगेले धुकर किदया वयर कांटटाय गो. तुमगेर कोंबड्यो ना.

कविता — बले जाले आमगेल धुकल आनी कोंबल्यो ना त्यो.

ज्योती — तुमगेर म्हस आसा ती. सगळयांकडे जगडत आसता.

कविता — तू शालके ना काय किले गो. आमगेल खंय म्हश आशा?

ज्योती — तुजी आवय आसा ती.

कविता — म्हज्या आवयक तू म्हश म्हनता?

ज्योती — हय ती म्हस कशी सगळयांकडे जगडत आसता.

कविता — म्हजी आवय म्हश जाल्याल तुजी आवय हत्तीण.

ज्योती — म्हज्या आवयक तू हत्तीण म्हण्टा. रुबी हें म्हजें वक्ल हातान धर.

रुबी — तू कीत कोत्ताय गो.

ज्योती — ह्या लुलब्याक केसांक धरुन जमनीर लोळयता.

रुबी — मागीर हें वक्ल किदया काडटाय.

ज्योती — वक्ल फुटत जाल्यार पप्पा म्हजें फोडटलो.

रुबी — पूण वोक्ल नाय जाल्याल तुका तें कोशें दिश्टी पोडटोले?

ज्योती — तें खंय आसा तें पळोन घेतलें धर वक्ल. (दिता) आता पळय तेंका कशें लोळयता तें. तू मदी पडू नाका आ.

रुबी — म्हाक मोर्दी पोडपा सवय ना. माय पाय जोगडता तेन्ना हांव केन्नाच मोर्दी पडना. तू लोळय ताका.

कविता — तू म्हाका लोळयतले. पलोवया कोण कोणाक लोलयता.

रुबी — राव, राव जगडो नाकात. हांव एक दोन तीन मोनताय. माय पाय जोगडटाना हांव ओशेंच मोनताय.

कविता — म्हन तल.

रुबी — एक, दोन, तीन, चार, पाच.

ज्योती – जोगडीं केन्ना सुरु करपाची?

रुबी – शंबर म्हणून जालें काय.

कविता – तो मेलेन शाला शुटतेली. तू शायदीक लाव. यो गो कुद्या दाखयता तुका.

ज्योती – म्हाका परतून कुडडें म्हटले. आता तुका सोडीना हांव. (धावोन मारुंक वयता, कविता जागो बदलता, ज्योती रुबीक आडवे घालता.)

रुबी – मेलें, मेलें ..... अगो माका किदयाक मात्ताय. (ज्योतीक वक्ल लायता)

ज्योती – तू कशें मर्दीं येयलें.

रुबी – हाव मोदी येवंक नाय. तूवेन मोदी ओड्न काडलाय. तुका सागोंले हावे वोक्ल घालून जोगोड म्हूण. तुका कुंडडे म्होणपाचेच. कुड्डे फुंयचे.

ज्योती – आता तू म्हाका कुड्डे म्हणूंक लागले. कविता, हे वक्ल हातान धर.

कविता – हाव धलीना, तू म्हाकाच मालूंग आशा. कुड्डे खंयचे.

ज्योती – तुवेन म्हाका परतून कुड्डे म्हळें. रुबी हें वक्ल हातान धर.

रुबी – मुगेल्या हातान वोक्ल दिताय आनी माकाच खाली उडयताय.

ज्योती – तू जागो बदलूं नाका, आसा थंयच राव.

रुबी – हाव एक, दोन, तीन म्हणू?

ज्योती – नाका.

रुबी – किदयाक?

ज्योती – हें घें वक्ल (वक्ल दिता, कविताक मारुंक वता, भायरसून अक्षया येता, ज्योती तेंका आडवे वडयता, रुबी, कविता तेंका सोडयता, अक्षया रडटा, ज्योतीक वक्ल घालता.)

ज्योती – हें कोण?

रुबी – कोण तें खबर नाय आनी तेज्या केसांक धरुन ताक जोमनीर उडयलें.

ज्योती – हांव कविताक मारी.

रुबर – अेदोळच्यान कोविताक मांत्ता म्होनता आनी म्हाका आडवे घालता आता तेक आडवें घातलें. तूज्यो हेड लायटी फुटल्याय. गाडी समाळून चोलोंग गोमना?

ज्योती – म्हाका कशे दिसोंग ना तें.

कविता – तुका दोल्याक वक्ल नाशताना दिशता?

ज्योती – हाव तुज्या केसांक धरुन ....

कविता – पुलो, म्हाका खूप आलवें घातलें, लदयला तेंका थामय.

ज्योती – सॉरी गो, हांवेन तुका चुकोन मारलें.

अक्षया – माका आयजमेरेन अशे कोणेंच मारुंकना. मम्मी डॅडीनूय मारुंकना. ती म्हज्या दोळयान दुका येवंक दिना. म्हज्या भयणीनूय म्हाका केंन्ना मारुंक ना. तुवेंन म्हाका मारलें, म्हज्या केसांक धरुन म्हाका आडवें घातलें.

ज्योती – म्हाका तुका मारपाचें नासलें. कविता समजोन हांवेनं तुका मारलें.

अक्षया – तुका दिसना तर?

ज्योती – दिसता.

अक्षया – मागीर.

ज्योती – वक्ल काडल्यार माका मात्शें दिसना.

रुबी – मात्शें नुय कायच दिसोना.

कविता – अगो तें कुंददे.

ज्योती – हांव तुज्या केसांक ....

रुबी – पुरो, फार धोरता धूकराक मात्ता कोंबड्याक.

अक्षया – म्हाका कोणीच अशें मारुंकना.

कविता – तेंका दोल्यान दिशना गो. हाव शमजोन तेणी तुका मारले.

रुबी – व्हय, व्हय. तेजें वोक्ल मुगेल्या हातान आसलें. तू रोडो नाकाय.

अक्षया – मम्मी, डॅडीन म्हजी दुकां केंन्नाच भायर येवंक दिवं ना.

रुबी – पोयले फावट दुकां येयल्या?

अक्षता – व्हय.

रुबी — तोशे जाल्यार बोरे जाले इतक्या दिसाचो चिंकोल भायर सरलो.

कविता — पूस गो दोले, ललो नाका.

रुबी — तुजें नाव कित गो?

अक्षया — अक्षया बांदेकार.

रुबी — ओक्सोया बांदेकर.

अक्षया — अक्षया बांदेकर.

रुबी — तेंच तें, तू फुंयचे गो?

अक्षया — हांव पणजेचे, आमचो पणजे बंगलो आसा. हांगा आमचे मोठे घर आसा. आतां हांव ह्याच घरान रावतले म्हणून माका हांगा शाळेन घातला.

ज्योती — तू आता आमच्या शाळेन शिकतले?

अक्षया — हय.

ज्योती — पुण तू पैशेंकार दिसता मगो. तुवेन त्या प्रायवेट शाळेन शिकोंग जाय. ही सरकारी शाळा.

अक्षया — हांव थयच वचपाचे आसले माका ॲडमिशनाक कळाव जालो म्हण मम्मा म्हणूक लागली, थोडे दिस राव हे शाळेन.

ज्योती — बरें जालें आमकां आनीक एक फ्रेण्ड मेळ्ळें.

रुबी — हय जगडोंग.

अक्षया — किदें?

ज्योती — काय ना गो, जाणा मगो अक्षया ही शाळा बरी.

अक्षया — बरी खंयची, बुरशी ही शाळा. म्हजें पणजेचें स्कुल कितलें लीप आनी सोबीत. हांगा वास मारता.

कविता — नुस्त्याचो तो, ज्योतीचे पोतयेक येता.

अक्षया — तुमीं पोतयो घेवन स्कुलाक येता? असल्यो पोतयो आमचे नोकर बाजारान घेवन वता.

रुबी — तुगेले ब्याग बोरे आसाय मुगो.

अक्षया — मुंबईचें तें, खुप पैशे पडल्या ताका.

कविता — तुमगेर खूप पैशे आसा न्हय.

अक्षया – हय, आमगेर चार गाडयो आसा.

रुबी – फुंय फेस्ताक घेतल्या?

कविता – फेस्ताच्यो न्हय, खऱ्यो गाड्यो आसा तेंगेर.

अक्षया – आतां हांव गाडयेन येयला. स्कुल सुटतकूत परतून म्हाका व्हरोंक गाडी येतली.

रुबी – गाडी आपुणूच येता?

अक्षया – आपुणूच कशी येतली. ड्रायव्हर आसा.

ज्योती – तुजो ड्रेस बरो आसा.

रुबी – तो मुंबयच्यान हाडलाय न्हय गो?

अक्षया – ना, तो पणजे शो रुमान घेतला.

ज्योती – बरो नवो दिसता, आयजूच भायर काडला दिसता.

अक्षया – ना, पोरनो तो.

ज्योती – नवो कसो दिसता.

अक्षया – म्हजे कपडे लीप आसता, वॉशिंग मशीनात धूता.

रुबी – तुगेली माय मशीनात बॉसोन धुताय, तुमगेर फातोर नाय गो?

कविता – तुज्या तकलेक मालूंग? हेनी केंन्रा वॉतींग मतीन पलोंग ना.

अक्षया – तुमचो हो स्कूल युनिफॉर्म?

कविता – हय.

अक्षया – पोरनो तो?

रुबी – पोरनो? दोन दिस जाल्या शिवल्यार.

अक्षया – कितलो लोळ्ळा तो.

रुबी – दिस भोर आंगार आसताय तो. म्हणून लोळटा.

ज्योती – ते सगळे सोडून दी. आता तू आमची वळख करुन घे. हांव ज्योती मडकयकार.

कविता – हांव कविता फातर्पेकार.

रुबी – हाव रुबी कायतान फेर्नांडीस.

कविता – आतां आमीं फ्लॅन्द जाली.

रुबी — व्हय आता जोगडपा मोकळी.

अक्षया — किदें.

ज्योती — काय ना, अक्षया आमीं मगो तिघांय एकाच वाडयार रावता. आमीं भुरगेंपणाच्यान घटट फ्रेण्डां.

अक्षया — ते कळळे, टिचर केन्ना येतली.

कविता — बाई गो, ती आपणांक जाय तेंन्ना येतली. घला लावतली, कपले उमयतली, शगलीं कामा कलून येतली.

अक्षया — तुका एक प्रश्न विचारु?

कविता — विचाल.

अक्षया — तू अशें कशें उलयता?

ज्योती — ते लूडबे.

कविता — आनी हे कुददे.

अक्षया — वक्ल काडल्यार तुका कायच दिसना?

रुबी — ते जमनीर लोळोन कळोंक नाय.

अक्षया — खऱ्यानीच तुका काय दिसना?

ज्योती — कोण सांगता. हे घे (वक्ल काडून अक्षयाच्या हातान दिता) पळय माका तू दिश्टी पडटा, हे कविता, हे रुबी, तो फळो, हे बाक, ही बाईची खुर्ची, हे भायले दार. ह्या दारांतल्यान ती मोठी बाई भितर येता.
(बाई येता)

कविता — ज्योती ....

ज्योती — ओगी राव गो. पळय, ह्या दारांतल्यान आमची मोठी बाई भितर सरता. येतना ती काळे फातर आशिल्ले तानूळ हाडटा. आनी आमकां वेचूंग लायता. आमी मगो मागीर कॉमीक करता. तानळातले फातर भायर मारीना, भायले हाडून तानळान घालता.

रुबी — ज्योती .....

ज्योती — राव गो माका सागुनी. आमची बाई शाळेन शिकोंक येयना न्हिदोंक येता. तॉण उक्ते घालून न्हिजता मागीर आमी फेनाचो घयराव काडून तिज्या तोणान घालता.

बाई — किदें?

ज्योती — हय, आमच्या बाईक मगो ही शाळा म्हणजे आपल्या बापायलें घर दिसता.

बाई — तू बाईचो बापूय वयर काडटा?

ज्योती — बापूय किदयाक, हांव तिचो घोव वयर काडपी.

बाई — म्हज्या बापायक आनीक घोवाक वयर काडटा. (गालाक धरता)

ज्योती — आवयस कोणे गालाक धरले. (अक्षया, ज्योतीक वक्ल लायता) बाई, तुमी केन्ना येयली.

बाई — जेन्ना तू म्हजी तोकणाय करी.

ज्योती — हय

बाई — हय म्हणटा, चल ओणवें राव.

ज्योती — बाई .....

बाई — चूप, चल ओणवें राव. (रावता) चड सुबेस जाला तू. कुडडे म्हण बरें. तुमी जाग्यार बसात. (बसतात) तुमकां सगळयांक सांगता म्हज्या वर्गान कसलीच फकाणां चलचीना .... तू अक्षया मगो?

अक्षया — हय बाई.

बाई — आयजूच येयला न्हय तू?

अक्षया — हय बाई.

बाई — पळयात हाका कितलें लीप तें. सोबित बावली कशी दिसता. (ज्योती उठटा) तू किदयाक उठले?

ज्योती — बावलेक पळोंक.

बाई — ओणवें राव पयली (रावता) पळयात अक्षयाक कितले लीप तें. नाजाल्यार तुमीं आसा गोरवा कशीं. दोन—दोन दीस न्हायनात.

ज्योती — बाई हांव न्हावन येयला.

बाई — म्हणून तुका नुस्त्याचो वास मारता.

ज्योती — म्हाका न्हय, म्हजे पोतयेक. हांव चूकोन नुस्त्याची पोती घेवन येयला.

बाई — तू कुड्डे आनी किदें करतलें. ओणवें राव. (रावता)

रुबी — सुनंदा बाई तेणे ओकसोयाक बोडयले.

बाई — हांव तुका बडयतले. तू म्हजें नाव किदयाक घेता?

रुबी — पाय सांगोता सोगल्यांग नावान उलोव मारुंक जाय. आमच्या धुकरांकूय नांवा आसाय.

बाई — मागीर त्या धुकरांक नांवान उलोव मार. ही शाळा आनी हांव तुमची बाई. माका बाई म्हणपाचें.

ज्योती — बाई.

बाई — चूप, ओणवें राव (रावता) अक्षया तू बरें भुरगे, बऱ्या घराण्यांतले. तू ह्या घाटयांकडे लागो नाका. जी घाटयांकडे उलयता ती घाटीन जाता.

कविता — बाई तछे जाल्याल तुमी घातीन जाली.

बाई — म्हाका घाटीण म्हणटा. (मारता) चलात, आतां अभ्यास सुरु करया.

ज्योती — बाई, आयज तानूळ हाडूंक ना,

बाई — अभ्यास करचो पडटा म्हण तानळाचे निमीत करता? चल जाग्यार बस. (बसता) तर आयज हांव तुमकां कासवाची आनी सोश्याची काणी सांगता. ससो पळयला सगळयांनी?

सगळी — हय.

बाई — आनी कासोव?

सगळी — हय

रुबी — सुनंदा.... ना, बाई, हांवेन कासवाचे मोटन खाल्लाय, बोरें लागोता.

बाई — तूका तें विचारुंकना हांवेन. तर एकदा कासवाची आनी सोश्याची शर्यत लागली.

ज्योती — बाई, कासोव धावताना तुमीं पळयलां?

बाई — ना.

ज्योती — मागीर खंयच्या पिश्यान तांची शर्यत लायली?

बाई — बापायन तुज्या, मर्दी—मर्दी उलोवं नाका. तर कासवाची आनी सोश्याची शर्यत लागता. सोसो फास धावता, कासोव बाबडो हळू—हळू चलता.

ज्योती – चलतलोत, ताका धावोंग खंय कयटा.

बाई – मर्दी उलोव नाका. तर ससो धांवोन बरो फुडें पावता. कासोव बाबडो फाटल्यान उरता.

ज्योती – उरतलोत, ताका धावोंग खय कळटा.

बाई – तुका सांगलें मगो मर्दी उलोवं नाका म्हण. तर ससो धांवोन खूप मुखार पावता. वाटेर ताका एक शेत दिश्टी पडटा. शेतांतलीं भाजी पळोवन ताका रुच येता. तो ती भाजी पॉट भरुन खाता.

कविता – आनी कासोव?

बाई – तो बाबडो पैस आसता.

ज्योती – आसतलोच, ताका धावोंग खंय कळटा.

बाई – तू परतून मर्दी उलयशीत जाल्यार हांव ओणवें दवरतलें तुका. तर ससो खूप भाजी खाता, भाजी खावन ताका सुस्ती येता. तो विचार करता. कासोव येता म्हणसर मात्सो न्हिदलोलो बरो, अशें म्हणून तो एका झाडापोना न्हिदता.

रुबी – आनी तो कासोव?

बाई – तो चलता हळू–हळू.

ज्योती – चलतलोच, ताका धावोंग खय कळटा.

बाई – आतां तुका मारतलें हांव, तर कासोव हळू–हळू करुन सोश्याकडे पावता. तो सोश्याक न्हिदलेलो पळयता. आनी फुडें चलत रावता. अशे तरेन कासोव शर्यत जिखता आता सांगात है काणयेंतल्यान तुमीं किदें शिकली. कविता तू सांग.

कविता – हे काणयेंतल्यान आमीं शिकलीं भाजी केन्नाच तरनी खावंक जायना. ती बरी शिजोन दाळ घालून खावंक जाय.

बाई – घराकडे आवयन भाजी शिजोन दवरल्या ती खा. रुबी तू सांग हे काणयेंतल्यान आमीं किदें शिकलीं.

रुबी – हे काणयेंतल्यान आमीं शिकोली की आमी केन्नात झाडां पोना निजो जायनाय. साक घालून निजो जाय.

बाई – तू शेनरी घालून न्हिद घरा. ज्योती तू सांग.

ज्योती — हे काणयेंतल्यान आमीं शिकली की ज्याका धावोंक जायना ताजेकडे शर्यत लावंक जायना.

बाई — बस सकयल. गाढवापुडे वाचली गीता. अक्षया तू सांग.

अक्षया — हे काणयेतल्यान आमीं दोन गजाली शिकली. एक दुसऱ्याक कमीं लेखूंक जायना आणी दुसरी आळस करुंक जायना.

बाई — शाब्बास, पळयात तें कितलें हुशार तें.

कविता — बाई ते पणजेच्या स्कुलांतल्यान येयला म्हण हुशाल.

बाई — आनी तुमीं हे शाळेन किदें करता?

रुबी — तानळातले फातोर वेंचताय.

बाई — किदें?

रुबी — काय ना.

बाई — चला आतां हांव तुमकां एक प्रश्न विचारता. कविता तू सांग, सूर्य पृथ्वीच्या भोवती फिरता काय पृथ्वी सूर्याच्या भोवती फिरता?

कविता — कोणूत फिलना.

बाई — फिरना?

कविता — ना, फिरलेली जाल्याल कोण एकटो गुवल येवन पडचो नाशलो.

बाई — बस सकयल, पिशे खंयचे. आतां हांव तुमका एक जोक सांगता. एकदा मुय आनी हत्ती स्कुटरीन वताली. वाटेर तांका ॲक्सीडेंन्ट जाता. हत्तीची तकली फुडटा पूण मुयेक कायच जायना. सांगात किदयाक?

सगळी — किदयाक?

बाई — मुयेन हेल्मेट घातलेले आसता, (बाई एकटीच हांसता) किदें जालें तुमी हासोंग ना किदयाक?

ज्योती — बाई तुमी किदेंय सांगता. मुय केदी, हेल्मेट केदें. अेदे व्हडलें हेल्मेट मुय घालतली कशी.

बाई — चूप, कसलीं भुरगीं जोक लेगीत कळना. आतां तुमकां हांव गणीत विचारता. समजा हावेन चार आमे हाडले आनी ह्या टेबलार दवरली आनी बाजारान वचून हांवेन आनींक पाच आमे हाडले, जाल्यार म्हजेकडे कितले आमे जाले?

रुबी — पाच.

बाई — पाच कशे, पयली टेबलार चार दवरलें तें.

रुबी — बाई, तुमी बाजारान वचून येता म्हणसर ते चार आमे टेबलार उरतले? आमी चौघाय एक–एक आमो खावन काबार करतली.

बाई — तूमका गणीत विचारले तीच चूक केली. आतां म्हाका सांगात तुमीं व्हड जातकूच किदें जातली. कविता सांग.

कविता — बाई हांव दोतोल जातले.

बाई — दोतोर जालें काय ऑपरेशन करचें पडटलें. तू ऑपरेशन करुंक जाणा?

कविता — हय बाई.

बाई — कशें करता.

कविता — पेशन्ताक लुमान व्हलपाचें आनी तामलो बल्ब पेतोवपाचो. मागील पेशन्ताक भायल हालपाचो आनी तामलो बल्ब पालोवपाचो.

बाई — हांव रावता तुज्यावांगडा कामांक. कसलें काम दितलें म्हाका.

कविता — तांबलो बल्ब पुशपाचें.

बाई — नाका, हांव बाई आसा ती पुरो. ज्योती तू सांग.

ज्योती — बाई हांव व्हडलें जातकूच सानीया मिर्जा बशेन टेनीस खेळटले.

बाई — वक्ल काडून खेळ नाका, नाजाल्यार एकाच्या जाग्यार चार बॉल दिसतले. रुबी तू सांग.

रुबी — बाई, हांव व्हड जातकूच काजार जातोले.

बाई — बाकीची जावचीना?

रुबी — ती लोग्न जातली. हांव काजार जातोलें.

बाई — हे एक पिशे, अक्षया तू सांग.

अक्षया — हांव पैशेकार जातलें.

बाई — पैशकार तू आसा मगो. तुमगेर खूप पैशे आसा.

अक्षया — तो पैसो म्हजो न्हय, डॅडीचो.

बाई — पळयात ताज्या डॅडीकडे पैसो आसा पूण ते स्वता जिवितान किदें करुंक सोदता. तुमच्या बापायकडे किदें आसा.

रुबी — मोज्या पायकोडे धुकर आसाय.

बाई — आनी किदें आसतले. चला आता अभ्यास सोंपलो.

ज्योती — आता तानूळ वेंचपाचें?

बाई — ना आयज तानूळ ना. आयज चिटक्यो हाडल्या त्यो सगळीजाणां बसोन मोडात. हांव येता रोकडे. आनी अक्षयाक हें काम दिव नाकात. (वता, ज्योती चिटकी मोडूंक बसता)

रुबी — अे ओकशेया, तुमगेर खूप दूडू आसाय गो.

अक्षया — हय.

कविता — बाईन शांगलेले आयकोंग ना. ते शिलीमंत

रुबी — तुमगेले घोर मोठे आसाय न्हय गो.

अक्षया — आमचे पणजेचे घर हांगाच्यान मोठें आसा.

कविता — खेळपाक खूप जागो आसा न्हय?

अक्षया — हय.

कविता — तू खूय खेळटा?

अक्षया — हांव काँप्युटर खेळटा.

रुबी — कॉम्प्युटर म्होळयार कित गो.

अक्षया — तातून गेमी आसता. तुमगेर ना काँम्यूटर?

रुबी — आमगेर केलकुलेटर ना, तो कॉम्प्युटर खंयचो?

अक्षया — मागीर तुमचो वेळ कसो वता.

रुबी — आमीं धुकरा फांटल्यान धांवताय. कावळयांक आमुटाय, म्होशेची शेपोडी ओडटाय, झाडार चोडटाय. लोकांचीं तॉरा, बॉरा चोत्ताय, कुत्र्याचे शेंपडेक म्हराण लायताय, माजराच्या गॉळयान खुळखुळो घालताय. ऑशे आमीं खूप किदें कॉरीत आसताय.

अक्षया — पुण तूमी गेम खेळना?

कविता — कित्याक खेलना. आमीं लीपच्यालानी खेयता. धलच्यालानी खेयता. खो, खो खेयता, लगंली खेयता.

अक्षया — तुमी खंय खेळटा.

रुबी — फुंय म्होळयार, शेतान.

अक्षया — शी, मातयेन? माका आवडना माती. म्हाका मातयेन खेळोंक दिना. म्हाका खंय वचूंक जाय जाल्यार गाडयेनूच वता.

कविता — तुका मातयेन खेळो शें दिसना?

अक्षया — ना.

रुबी — तुका एकटयाक खेळपा वाज येयनाय.

अक्षया — म्हजे भयणीकडे दुसरो कॉम्प्युटर आसा, तें आपल्या कॉम्प्यूटरार खेळटा.

कविता — आता तू आमच्या वांगला खेल.

अक्षया — हांव खेळना मातयेन.

कविता — आमी मातयेन खेलोया नाका, हागांच खेळोया.

ज्योती — हंय, हंय खेळोया.

अक्षया — पुण टीचरीन तुमकां भाजी मोडूंक लायल्या.

ज्योती — मोडया गो सुशेगात. ती गेल्या दुसरे वर्गान दुसरे बाईक गजाली सांगूंक. तेंच्यो गजाली शाळा सोंपतकूचर सोंपता.

रुबी — व्हय, व्हय तीं दोघांय बसोन आपल्या घोवाचे, मायच्यो चाडयो एकमेकांक सांगोता. आर्मी भायर वोचप नाय. हिंगाच खेळोया.

कविता — कशल्यांनी खेलया?

ज्योती — क्रिकेट खेळया, रावात हाव पिडो हाडटा. (कोनशाचो पिडो हाडटा)

रुबी — मुज्यालागी बोणो आसाय (पोतयेंतले बोणे काडटा)

अक्षया — हे किदे?

रुबी — हो पिडो आमगेलें बॅट आनी हो बोणो आमगेलो बॉल आनी ही बाईची खुर्ची आमच्यो विकेटी.

कविता — पयली बॅतींग कोन कलतलो.

ज्योती — म्हज्या हातान ब्याट आसा. हाव बॅटींग करतले. अक्षया म्हजे वक्ल धर (दिता)

कविता — वोक्ल नाजाल्याल तुका आर्मी दिशना, तो बॉल खंयचो दिशतलो.

ज्योती — दिसतोलो, तुमी घाला बॉलींग. (वण्टीक तॉण करुन रावता) घाल रुबी बॉलींग. हांव शिक्शल मारता.

रुबी — हाव तुगेल्या कानार मात्ताय. वोण्टीक तॉण करुन पालीक पोयताय?

कविता — तें अशेंत कलतलें. ताका बॅतींग दिवं नाकात.

ज्योती — तू ओगी बस. रुबी आता घाल बॉलींग.

रुबी — तुमी कांय भियो नाकाय. चोयात हांव हेका कोसे पिश्यान काटटाय ते. ज्योती हांव घालताय आ – बॉलींग.

रुबी — घाल, घाल हांव रेडी आसा.

रुबी — चोय हांव धावोन येयलें, घातलो बॉल, उकल बॅट. (रुबी खुर्ची उडयता) आवट, आवट.

ज्योती — कशें आवट.

रुबी — विकेटी पोडल्याय दिसोना.

ज्योती — बॉणान वीकेटी कश्यो पडटल्यो?

रुबी — म्हजी बॉलींग फास आसाय. ओकशोया आता तू खेळ. (ज्योतीक वक्ल दिता)

ज्योती — हांव बॉलींग घालतलें. वक्ल धर गो रुबी. (वक्ल रुबीकडे दिता.)

रुबी — आगो तुगेले जोनेल घालून बॉलींग कर.

ज्योती — नाका, बॉणो लागोन फुटले जाल्यार पप्पा दारान घेवचोना. अक्षया रेडी राव.

अक्षया — तुका हांव दिसता मगो? म्हाका भंय दिसता. चुकोन तू म्हजेर बॉणो मारीत.

ज्याती — तू भियो नाका. म्हाका तू दिसता. खुर्ची दिसता. हांव घालता बॉलींग. (बॉलींग घालता. बोणो जनेलार मारता.) कसलो आवाज येयलो? अक्षयान सिक्सर मारली?

रुबी — तुका हांवेन सागोंले तुगेले जोनेल घाल म्हूण. तुवेन शाळेचे जोनेल फोडलें. (भायरसून बाईचो आवाज.)

कविता — बाई येता. (सगळी चिटकी मोडूंक जमनीर बसता, ज्योती बॉवाळान बाईचे खुर्चेर बसता.)

बाई — किदें जाले?

रुबी — कांय ना बाई.

बाई — काय ना, म्हाका किदे तरी फुटपाचो आवाज येयलो.

कविता — बाई आमी चिटकी मोंत्ता न्हय. तेजोत आवाज तो.

रुबी — व्हय बाई, तुमगेल्यो चिटक्यो बोऱ्यो आसाय ताज्यो.

ज्योती — बाई, चिटक्यो खंयच्यान भायरसून हाडल्या?

बाई — आवयस, ही महाराणी खंय बसल्या.

ज्योती — हांव? हांव बेन्चार बसला.

बाई — राणी कशी म्हजे खुर्चेर बसला. आनी बेन्चार बसला म्हणटा. (मारता) उठ पयली (उठयता) सगळी चिटक्यो मोडटा आनी तू राणी कशी बसल्या. आता हाका एकटयाक मोडोनी गो चिटक्यो.

ज्योती — व्हदळ हांव एकटेच मोडी.

बाई — चूप, कोण किदें करता तें पळयतां हांव. तुमी कोण हात लावं नाकात गो. हेका एकटयाक करुनी. येता हांव. (वयता)

कविता — हें घें वक्ल. घाल आनी मोड चिटक्यो.

ज्योती — पयलीं दिवंक जाय नासलें. मार पडोन आता दिता.

रुबी — तुका मार पोडोकूच जाय. बॉलींग घाल नाकाय म्होळयार घातली. बॉल बॅटाकडे पावच्या पयली सिक्सर गेली.

अक्षया — आर्मी आनींग क्रिकेट खेळोया नाका.

कविता — हय, पूण खेळटली किलें.

अक्षया — आमी अंताक्षरी खेळोया.

कविता — हय, माता पद म्हणूंग आवदता.

रुबी — कुड्डुयाक क्रिकेट खेळोंक आवडटा आनी लुडब्याक कातार म्हणूंक आवोडंटा.

अक्षया — चला खेळोया. कोण पयली म्हणटले.

ज्योती — हाव सांगता, शी, री, ग, णे, शा. कविताक शा येयला. कविता म्हण.

कविता — शायद मेली शादी का खयाल, दिल मे आया है. इसलिए मम्मीने तुजे तायको बुलाया है .....

ज्योती — दुसरें म्हण मगो. सगळी शा येयलें काय हेंच पद म्हणटा. तू दुसरें म्हण.

रुबी — हेका लुडब्याची पोदा आवोडटा दिसोता.

कविता — शमा है शुवाना शुवाना नशे में दवा है. कितीको कितीको खबल
— कहा है.

ज्योती — अक्षया आता तू म्हण.

अक्षया — लकडीकी काठी, काठी में घोडा, घोडे पे धूम पर मारा हातोडा. दौडा, दौडा घोडा धूम उठाकर दौडा.

रुबी — आवयस घोडयाचे सॉलीड कातार म्होटलें तुवें. धुकरार कातार आसलेंलें जाल्यार हावूय म्होणपाचें.

ज्योती — आतां हांव म्हणटा. आवारा हूँ. ऊ ऽ ऽ ऊ, आवारा हू ऊ ऽ ऽ ऊ.

रुबी — ऊ ऽ ऽ ऊ कीत कोंत्ताय गो.

ज्योती — आवारा हूँ जावन अशीच म्युजिक आसा.

रुबी — कातारुच म्होण मुगो म्यूजिक किदया म्होनताय. आंता हांव कातार म्होणातय. मुगेल्या फेवरेट शोम्मी कपूराचे. (बाकार चडटा) या हू ऽ ऽ या हू ऽ ऽ (उडी मारता) चाहे कोय, मोजे जोंगली कोहे, चाहे कोय मोजे जोंगली कोहे. (वयर चडटा देंवता सगळीं आडायता, थकोन पद थामयता)

कविता — बले जाले बेगीन शोपलें ते.

रुबी — शोम्मी कोपुराचे कातार म्होणोप सोपें न्हय.

अक्षया — आता आनीग पदां नाका.

ज्योती — हय आनीक पदा नाका. आतां आमीं लिपच्यानी खेळोया.

कविता — हय लिपच्यालांनी खेलोया.

ज्योती — तुमी लिपा हांव धरता.

रुबी — चोला लिपोया, आनी ज्योती तुका सांगोता. आमकां सोदताना वोक्ल घालून सोद नाजाल्यार आमी तुका फाल्यां सापोडतोली. चोला गो लिपोया. (सगळी भायर वता)

ज्योती — (दोळयार हात दवरता) अरे! हांव किदयाक दोळयार हात दवरता. वक्ल काडलें काय जालें. (वक्ल काडून टेबलार दवरता.) लिपात गो बेगीन म्हाका लिपच्यालानी खूप आवडटा. घरान किदेंय शेणलें

जाल्यार पप्पा म्हाकाच सोदूंक लायता. लिपली गो. कोणाचोच आवाज येयना. ही पैस लिपोंग गेल्या काय किदें. (बाई येता)

बाई — आरे! खंय गेली सगळी? आनी हे एकटेच किदें करता. चिटकी मोडूंकूच ना. तशीच आसा. ज्योती ....

ज्योती — तू किदें करता गो हांगा? लीप मगो बेगीन. ती मोठी बाई येयली जाल्यार जालें.

बाई — कसल्यांनी खेळटा?

ज्योती — तुका एकदा सांगल्यार कळना, लिपच्यालानी म्हण. चल बेगीन लीप. हांव धरता.

बाई — चिटकी मोडली?

ज्योती — पाड पडोव चिटकीचे आनी त्या बाईचे. सदीं घरचीं कामां आमकां दिता. चिटकीच्या जाग्यार तिकाच मोडया. खातली आपूण आणी त्रास आमका.

बाई — मात्शें वक्ल लाय.

ज्योती — तू लिपले?

बाई — हय.

ज्योती — आता सगळयांक सोदून काडटा. (वक्ल घालता) ही कोण? बाई कशी दिसता.

बाई — बाई कशी दिसता. (गालाक धरता) आतां वळखलें माका.

ज्योती — हय.

बाई — कोण हांव (चीमटे काडटा)

ज्योती — बाई ऽ ऽ

बाई — म्हजे पाड पडोवं.

ज्योती — ना, म्हजे पाड पडोवं.

बाई — बाईक मोडटलें तूं?

ज्योती — ना, तूच माका मोड.

बाई — तू शाळेन लिपच्यालानी खेळोंक येता?

ज्योती — ना.

बाई — किदयाक येता?

ज्योती — चिटकी मोडूंक.

बाई — किदें?

ज्योती — शिकोंग येता.

बाई — बाकीची खय? (अक्षया रडत येता. मातयेन लॉयळा)

अक्षया — बाई ऽ ऽ

ज्योती — भिकारी येयलें.

बाई — चूप, अक्षया हे किदे. तू लॉळळें कशे?

अक्षया — म्हाका तेंच्यानी धुकल्ले.

बाई — कोणी (कविता आनी रुबी येता)

अक्षया — हेंच्यानी.

बाई — हय गो तुमी हाका धुकल्ले.

कविता — बाई ते केन्नाच मातयेन खेळोंक ना.

बाई — म्हणून तुमी ताका मातयेन धुकलले?

रुबी — बाई तुमीत सांगलेलें भुरग्यांग मातयेची वळख आसूंक जाय. ताक लागोन आमी ताक मातयेचो वास घेवंक लायलो.

बाई — नाका जाल्ली कर्मां करपाची सवय तुमका. तुमचो आवय बापूय माका त्रास दिवपाक तुमका हांगा धाडटा. आता ताजे आवयक हांव किदें जाप दिवं.

रुबी — सांगात, ओकशोयाक मातयेची वळख जाली म्होण.

बाई — चूप, अक्षया ओगी राव, रडो नाका, ताजो ड्रेस पीडुयार केलो तुमीं.

रुबी — बाई तेजी माय मोशीनात बोसोन कॉपडे धुताय.

बाई — चूप, तेजी आवय येतकूच कळटले तुमका. (मम्मी येता.)

अक्षया — म्हजी मम्मी येयली ...... मंम्मा ऽ ऽ

मंम्मी — किदें जालें गो अक्षया?

बाई — कांय जावंक ना मॅडम. तुमी येयात बसात.

मंम्मी — म्हजे चली लोळळे कशे?

बाई — तें ..... तें पडलें ... निसरोन पडलें.

अक्षया — ना मम्मा म्हाका हेंच्यानी उडयलें.

मंम्मी — हेंच्यानी? ही भुरगी हांगा शिकतां?

बाई — हय.

मंम्मी — शी, शी कसली बुरशीं भुरगीं हीं. स्वता मातयेन लोळळया आनी म्हजें चलयेकूय लोळयला.

बाई — मॅडम ती खेळटाली आसतली. तेन्ना पडलें आसत तें.

मंम्मी — शी, अक्षया हेंच्यावांगडा खेळटाले गो. म्हाका पयली कळळें हांगा असलीं भुरगीं शिकता ज़ाल्यार हांव तुका हांगा धाडचेंच नासलें. फाल्यांच्यान तू हे शाळेन येंवप ना. तुजें प्रायवेट स्कुलान ॲडमिशन जालें. चल या आमीं. (वता)

बाई — तुमच्याखातीर आमचे शाळेचें नांव पिड्डुयार जाता. तुमीं हांगां इतकीं मस्ती करतात तीं घरां किदें करता आसतली कोण जाणा. तुमचें आवय–बापूय आपलें वजें काडून म्हज्या माथ्यार मारता. लोक पळया तुमका बूरशीं म्हण्टा. तुमी अशींच उरतलीं. तुमचें जीवित धुकरां, कोमडया, झाडां व मुळानूच वतले. तुमचो फुडार काय ना. तुमीं फुडें शिकोंक पावचींना, काय करुंक पावचींना. तुमीं आनी तुमचीं मस्तेपणा ह्या गावानूच उरतली. तुमचो फुडार ह्या गांवांभायर ना. आयज, तुमी केल्यो चुकीक तुमका पनिशमेन्ट मेळटलीच ...... आयज तुमी शाळा सुटोन एक वर वर्गानूच रावपाचें. हांव भायल्यान दार बंद करता. (वता)

रुबी — बोरी आसाय ही बाई. स्वता आमका घोरचीं कामां दिताय आनी आमीं शिकोंक पावचीना मोनताय. नाका शिकोंग आमीं. तू आमचीं धुकरा किदया वयर कांटटाय. सारके मुगो कोविता.

कविता — हय शालके आनी हिका किदें आमका शिकोंक पगाल मेलना. आमकां शिकय कांय ना. फुकतचो पगाल घेता न्हू गो दोती. दोती किदें जालें गो?

ज्योती — बाई सांगता तें खरें आमीं आयुष्यभर अशीच उरतली. कांयच करुंक पावचींना.

रुबी — नाका करुं पावो. तिच्या माथ्यार दिवंक ना.

ज्योती — त्या अक्षयाकडे कितले पैशे आसा. आमचेकडे किदयाक ना.

रुबी — तेचो पाय खूप जोडटा आसतलो.

ज्योती — पूण आमीं शिकोन व्हड ना जावची? ह्या गावाभायर वयचीं ना? सदींच बुरशे कपडे घालतली? त्या अक्षया बशेन आमींय बरे कपडे घालचीना? ताच्या बशेन आमी सोबीत दिसचीना?

कविता — आमींय, बली दिशता गो, फक्त आमचेकले बले कपले ना, पावडर ना, बलें घल ना म्हणून आमीं बुलशी दिसता.

ज्योती — आमचें नशीब बदलचेंना?

रुबी — आमगेलें नोशीब खाल्ला धुकरान.

कविता — आमचें नशीब आमकाच तयाल कलचे पडतले. ही शलकाली शाला जावं पूण हांगाच्यानूच आमकां फुले वयचें पलतलें, बली पाश जावन शालान शिंकोंग वयचे पडतले. मागील शलान कामांग लागपाचे. मागील आमच्याकलेय पैशो आसतलो.

ज्योती — तशें जाल्यार आमचें नशीब आमींच शाँरा—मेरेन व्हरोया.

रुबी — व्हय आमींय त्या अक्षया बशेन बोरे कॉपडे घालया आनी त्या मशीनान बसोन उमोळया.

कविता — पूण आंता कित कोरया?

ज्योती — आतां म्हणोया (तिघाय हात धरुन घुंवता)

सगळी — हम होंगे कामयाब, हम होंगे कामयाब, हम होंग कामयाब, एक दिन ...

(ल्हव, ल्हव पडदो येता, पयलो आंक सोपता.)

## “आंक दुसरो”

(पडदो उघडटा माचयेर आसा हॉस्टेलाचे एक दुश्य काय वर्सांचो काळ गेला. पात्रां आता व्हड जाल्या, अक्षया आनी खुशी कॉम्प्युटरार पद लावन नाचता, अक्षयाचो मोबायल वाजता)

अक्षया – हॅलो, हॅलो ..... आ ... हंय, आसा बरे. येस आय ॲम फायन .. खंयच्या शब्दान सांगू. बरें आसा. (तापोन) हांवेन सागूंक ना तुका, फोन करपाक ... किदयाक करतां तू म्हाका फोन (बंद करता)

खुशी – अक्षू वॉट हॅपन्ड?

अक्षया – नथिंग.

खुशी – मम्माचे फोन मगो?

अक्षया – हय.

खुशी – केन्नाय पळयता तुका हांव, मम्माचो फोन आयलो काय चाळवता तू. अगो तू हॉस्टेलान रावता म्हण तिका तूजी याद येता आसतली.

अक्षया – याद येता जाल्यार तिका दुसरी धू आसा तेका फोन करपाचो

खुशी – तुजो प्राब्लेम कळ्ना म्हाका,

अक्षया – तुका कळचोच ना. हांव मात्सो म्हजो मूड चेन्ज करता. (भितर वता, खुशी परतून कॉम्प्युटरार बसता, ज्योती येता, बारीक नदरेन रुमान येता).

ज्योती – कोणूच दिसना, हें कविता आनी म्हजें वक्ल घेवन खंय गेलें. वक्ल नाजाल्यार म्हाका दिसना तें जाणा. चुकोन हांव टॉयलेटीन पावला कांय कोण जाणा. उलोवं मारया, कोण आसल्यार जाप दितलो. ...... हॅलो ..... हॅलो.

खुशी – हॅलो.

ज्योती – आ ... हॅलो ...... हॅलो. उलय आयकोंक येता.

खुशी – तू म्हजेकडेन उलयतां काय मोबायलार उलयता.

ज्योती – तुका म्हज्या हातान मोबायल दिसता?

खुशी – मोबाईल ना, मागीर हॅलो, हॅलो किदयाक करता.

ज्योती — हांव तुकाच हॅलो करी.
खुशी — कोण तू?
ज्योती — म्हाका पयलीं सांग हांव रुमान आसा काय टॉयलेटीन.
खुशी — तुका दिश्टी पडना?
ज्योती — दिश्टी पडलेंलें जाल्यार तुका विचारतलें आसलें?
खुशी — म्हळयार कुड्डें तू?
ज्योती — अेऽऽ माका कुड्डें म्हण नाका.
खूशी — दिश्टी पडना मागीर कुड्डें म्हटल्यार राग किदयाक येता.
ज्योती — हूमन बिइंग इज अ ॲनीमल हे खबर आसा तुका?
खुशी — हय.
ज्योती — तरी तुका कोणे जनावर म्हटल्यार राग येवपाचोना?
खुशी — येतलो, आता तू कोण ते सांग.
ज्योती — हांव ज्योती.
खुशी — पोती घेवन हांगा किदयाक आयला?
ज्योती — रावपाक.
खुशी — रावपाक?
ज्योती — हय, ह्या हॉस्टेलान आमीं रावतली.
खुशी — आमीं? तू तर एकटेंच आसा.
ज्योती — ना आमी तिघां आसा. हांव आनी म्हजी दोन फ्रेण्डां. कविता आनी रुबी.
खुशी — तीं खंय तर.
ज्योती — तेच तर सांगता, आमीं तिघाय वयर येवपाक लिफ्टीन बसली.
खुशी — बसली?
ज्योती — उबीं रावली.
खुशी — आ .....
ज्योती — हांव पयले फावट लिफ्टीन बसलेले. माका भंय दिसपाक लागलो. रुबी म्हणूक लागलें दोळे बंद कर. हांवेन वक्ल काडून कविताकडे

दिलें. लिफ्ट केन्ना थामली, खंय थामली तेंच म्हाका कळोंक ना. लिफ्टीन गर्दी आसली. गर्देन ती खंय गेलीं. हांव खंय येयलें तेंच कळोंक ना.

खुशी – तू गर्लस हॉस्टेलान, म्हज्या रुमान आसा.

ज्योती – हो रुम नंबर कितलो.

खुशी – आठ.

ज्योती – हो रुम आमचो तर. आतां आमीं रुम पार्टनर.

खुशी – तुमचो खंयचो. हांगा हांव आनी म्हजें फ्रेण्ड रावता.

ज्योती – आता आमींय रावतलीं.

खूशी – कशीं रावता तीं पळयता. तुज्यावांगडा रावोन आमचे दोळे फुटोंक आसा.

ज्योती – तू म्हाका कुड्डें म्हणटा? म्हाका दिसता बरे.

खुशी – ते कळटा, आता चल, तुजी पोती घेवन भायर.

ज्योती – म्हाका भायलो रस्तो दिसना.

खुशी – राव दाखयतां. (हाताक धरुन दाराकडे सोडटा, अक्षया येता.)

अक्षया – किदें जालें गो. कोणाकडे उलयतालें?

खुशी – एक कुड्डें येयल्लें. आमचें नवें रुम पार्टनर.

अक्षया – किदें, आनींक रुम पार्टनर. आमीं दोघां आसा तीं पूरो. आमचेमदीं आनींक तिसरें नाका.

खूशी – तिसरें खयचें ताज्यावांगडा आनींक दोघां जाणां आसा खंय.

अक्षया – आमचेमदीं आनींक कोणाक धाडुनीच. त्या मॅडमीक दाखयता मागीर हांव.

खुशी – तू किदयाक भायर येयलें. जाली सिगरेट ओडून.

अक्षया – तुजो आवाज आयकोन भायर येयलें. सिगरेट बाथ रुमाच्या जनेलारुच दवरल्या.

खुशी – ती सकयल पडत कोणाचेर, गर्लस हॉस्टेलान सिगरेट पळोवन कोणांकच तें अजाब जातलें. (भितर वता, खुशी परतून कॉम्पुटरार बसता, रुबी आनी कविता येता)

रुबी — यो, यो इंगा यो.

कविता — हो लूम आमचो?

रुबी — त्या कुड्डुया बशेन तुकाय दिसोना कित गो. भायर वाचूंगना? आठ बोरोयला ते.

कविता — पूण ते दोती गेलें खंय. वक्ल आशा माझ्या हातान.

रुबी — त्या कुड्डुयाक मागीर सोदूया. पोयली भितर यो. हें कोण? हॅलो .... .... हॅलो.

खूशी — येता ती हॅलो, हॅलो करता. किदें जाला?

रुबी — तापताय किदयाक गो.

खुशी — भितर सरोन हॅलो, हॅलो किदें करता.

रुबी — तुक म्होन्यान आपोवया हॅलो म्हटलेले. आमीं धुकरांक आपोवपा ओय, ओय कोत्ता तोशी.

खुशी — तुका हांव धुकर दिसता.

रुबी — तू माका धुकर कोशे किदयाक दिसतोले. दिसल्यार धुकरीण कोशे दिसोत.

खूशी — तुवेन म्हाका धूकरीण म्हटलें?

रुबी — तुकाय, राग येताय. म्हाकाय धुकरीण म्होटल्यार राग येताय, न्हू गो.

खुशी — तुमीं कोण खंयची, म्हज्या रुमान येवन म्हजोच अपमान करता.

कविता — हो लूम आमचो. आमीं तुजी नवी लूम पातनल.

खुशी — किदें?

कविता — हय, आमीं ह्या हॉस्टेलान लावपाक येयल्या. आमचो लूम नंबल आत. आनी भायल बलयला, हो लूम नंबल आत. तेखातील आमीं येयलीं आत. (हासता)

खुशी — तुमी हागां रावों शकना.

रुबी — किदया? हे हॉस्टेल तुज्या बापायचे गो?

खुशी — हाव डॅर यू ..... तुजी हिम्मत कशी जाली. म्हजो बापूय वयर काडपाची.

रुबी — तुजी हिम्मोत कोशी जाली आमकां इंगा रावो नाका म्होणपाची. आमी पौशे भरुंकना गो. (अक्षया येता)

अक्षया — खुशी कोणाकडे उलयता गो. हेंच काय किदें गो तें कुड्डें.

कविता — अे आमका कुल्ले मनता, आमचे दोले बलें आशा.

अक्षया — (हासता) हे लुडबे बाय खयचें आयलां?

रुबी — अे तू कोविताक काय म्होण नाकाय. सांगून दोवोत्ता.

अक्षया — आवयस, तुवेंय ह्या अक्षूक धमकी दिली. कोण खंयचे तू?

खुशी — तीं आमचीं रुम पार्टनर जावंक येयल्या.

अक्षया — तुमची लायकी आसा गो म्हजे रुम पार्टनर जावपाची.

रुबी — ना लायकी ना, ताकलागोन तू चोल इंगासले.

अक्षया — तू माका भायर धाडटा. तू वळखता गो माका. खबर तरी आसा हांव कोणाचे चेडू ते.

रुबी — तुक खॉबोर नाय? मायक विचार मगो.

अक्षया — तुजी जीबली काडून हातान दितलें हांव.

रुबी — तुका मुगेली जीबली म्होळयार केसांची ऊय दिसोल्या गो. काडली आनी हातान दिली. (ज्योती येता)

ज्योती — रुबी, रुबी खंय आसा तू.

रुबी हें चोय आयलें कुड्डे, फुय गो तू?

ज्योती — तुमीं दोघाय हांगा आसा. माका एकटयाक साणून खंय भोवंता तुमी.

रुबी आमीं बोंडला येयल्या. ही चोय म्होऱ्यान दोन अेशवोला आसाय.

ज्योती — हांवेंन केन्नाच अस्वाला पळोंक ना. कविता म्हजें वक्ल दी.

कविता — घें घाल. (घालता)

ज्योती — हीं अस्वला?

अक्षया — (ज्योतीच्या केसांक धरता) चड जीबली चलोवं नाका. (रुबी सोडयता)

रुबी — तू चड हात चलोवं नाका.

अक्षया — म्हजो हात कितलो चलता तो पळोंक जाय तुका. (आंगार वयता, इतल्यान मॅडम येता)

मॅडम — सायलन्स, किदें चल्ला हांगा.

ज्योती — हीं आमकां मारता.

मॅडम — अक्षया, किदें जाला?

अक्षया — हांव तुमकां विचारता, हीं सगळीं म्हज्या रुमान किदयाक.

मॅडम — तुज्या रुमान? तुका तुजो हो बंगलो दिसता? ती तिघाय आयच्यान हांगाच रावतली. ह्या रुमान दोन बॅडरुम आसा. एका रुमान तुमीं रावतलीं. दुसऱ्यान तीं तिघाय

अक्षया — हांव तें जावंक दिवचे ना.

मॅडम — तू कोण गो?

रुबी आपूण कोण तें ताक खोबोर आसचेंना. ताक आपलो पाय कोण
— तोच खोबोर नाय.

अक्षया — तू मर्दी उलोवपाची गरज ना. हें पळयात मॅडम जाय जाल्यार हांव ह्या हॉस्टेलाचें डबल पैशे भरता. पूण आमच्या रुमान हांका रावोंग दिवं नाकात.

मॅडम — अक्षया, हें हॉस्टेल पैशाखातीर उबें जावंक ना. जी चेडवां पैससून शिक्षणाक, कामांक येता तांका हो एक आसरो. तीं तिघांय काम करुन स्वताचें शिक्षण पुराय करुंक आयल्या. तांका आसरो दिवप हें ह्या हॉस्टेलाचें कर्तव्य.

अक्षया — हावं ह्या तीन माकडां मर्दी कशें रावो. लुडब्या, कुंड्डुया मर्दी हांव दिस काडूं शकना.

मॅडम — तशें जाल्यार तूच हांगासल्ल्यान वच.

अक्षया — बरें आसा वता हांव. ल्हान आसतना गांवांतल्या एका सरकारी शाळेन हांवेन एक दिस काडलेलो थंयसर अशींच बुरशीं, कुड्डी, लुडबीं, भुरगीं आसलीं. एका दिसान ती शाळा सोडली हावेन, आयजूय तशीच माकडा म्हज्या नशीबान आयल्या.

मॅडम — अक्षया चड जाले तुजें. तुका वचपाचें आसा जाल्यार वच हागांसल्लें.

अक्षया — वता हांव. (भितर वता)

खूशी — हांव एकटे हेंच्यावांगडा कशें रावो. ही म्हाका मारुंक आसा. अक्षू हांवूय येता गो. (भितर वता)

मॅडम — तुमी रावात हांगा. हांगा तुमका कसलेच, त्रास जावचेंना.

कविता — नाका मॅडम आमीच हांगांशल्यान वयता. आमच्या खातील तेंका किल्याक भायल कांत्ता.

रुबी — व्हय मॅडम, तोशें पळोंग गेल्यार मुगेलीय जीब जाग्यार रावोना. आर्मी दुसरेकडे वोयता.

मॅडम — तांचे चितू नाकात त्या अक्षयाक पैशाचो घमेंड आसा ती उतरोंकूच जाय. (अक्षया आनी खुशी येता.)

अक्षया — वता आर्मी.

मॅडम — चलात (वता.)

ज्योती — मॅडम तांका आडयात. तीय आमच्याबशेंन फुडें सरपाक ह्या शारान येयल्यां आसतलीं.

मॅडम — ती शिक्षणा खातीर हॉस्टेलान रावना. ती रावता मजा मारुंक. अक्षयाचें घर ह्याच शारान आसा पूण घरच्या कटकटींक लागोन तें हॉस्टेलान रावता. त्या खुशीचेंय घर चड पैस ना.

कविता — किलेंय जावं पूण आमच्या खातीर...

मॅडम — तुमीं टेन्शन घेवं नाकात. ती सकयल वचून परत येतली.

रुबी — म्होळयार ...

मॅडम — अशीं खुपदां गेल्या तीं. तेंका ह्या हॉस्टेलाबगर दुसरो पर्याय ना. तुमीं टेन्शन घेवं नाकात. तूमचें सामान दवरात भितर. आनी किदें गरज पडल्यार सांगात म्हाका. (वता)

ज्योती — आतां टेन्शन घेवपाचेंच.

रुबी — आता कोसलें टेन्शन? टेन्शन ह्या दारांतल्यान भायर गेलें.

ज्योती — तुमकां शाळां याद आसा काय विसरलीं.

रुबी — हें टेन्शन? अगो कुंड्डुया तुवेंन शाळा तुज्या दोळयान चोयली कितलीं.

ज्योती — तू मर्दीच आता म्हाका कुड्डे म्हण नाका आ.

कविता — तूका कुड्डें म्हणपाचेच. तू लिप्तीन मर्दींच कछें ना जाले.

ज्योती — अगो लुडब्या तुज्या हातान म्हजें वक्ल आसलें. मागीर म्हाका दिसतलें कशें.

कविता — तुका कितलो उलोवं माललो हांवेन.

ज्योती — कसो उलोवं मारलो?

कविता — दोती, दोती म्हतलें.

ज्योती — म्हजें नाव दोती न्हय, ज्योती, लुडबें खयचें.

कविता — तु कुड्डें.

ज्योती — तू ल्हान आसतांना सांगी मगो, व्हड जातकूत जिबली झरतली आनी लुडबेंपण वतले म्हण. गेलें लुडबेंपण, लुडबें तें लुडबेंत.

कविता — आनी तू शागी मगो कुड्डेपण वतलें म्हण. गेलें? कुड्डे तें कुड्डेच.

रुबी — तॉरी बोरे जालें हावेन भुरग्यापणान काय सागूंग ना तें.

ज्योती — आता चोलात सामान जाग्यार दवरया.

रुबी — तू टेन्शनाबोददल कित सांगतालें.

ज्योती — म्हाका एक दुबाव येता.

रुबी — दुबाव येता? वोक्ल घालून, काय काडून.

ज्योती — तुमकां आयकपाचें ना जाल्यार चलात कामां करया.

कविता — शांग गो. तुजो दुबाव.

ज्योती — तूमकां शाळेंतली सगळीं फ्रेंडा याद आसा?

कविता -- शाळेंतलीं फ्रेन्डा फुल्यान आशा.

ज्योती — मातयेन लोळयलें तें याद आसा?

रुबी — चिखलात लोळयले तें मगो?

ज्योती — याद जाली?

रुबी — व्हय.

ज्योती — सांग पळोवया. कोण.

रुबी — आमगेले धुकर कसो लोळयलो ताक चिखलात न्हूय गो कोविता.

ज्योती — हेंका धुकराबगर काय याद जायना. धुकरीण खयची.

रुबी – अे माक धुकरीण म्होण नाकाय. धुकरीण म्होटल्यार...

ज्योती – तुका राग येता खबर आसा.

कविता – तू फुडलें शांग.

ज्योती – शाळेन तुमी एका चेडवाक मातयेन लोळयल्ले, तें चेडू एकाच दिसाखातीर शाळेन येयल्लें.

रुबी – माक याद जाली. बाई ताक बावली म्हणटाली.

ज्योती – ती बावली हें अक्षया कशें दिसना तुमका.

रुबी – ह्या कुड्डुयाक फुडयातले मनीस व्होळकोपा येयना आनी शाळेंतले मनीस बोरी याद आसा.

कविता – कित्यावेल्यान म्हणता तू. अक्षया तें चेडू म्हण...

ज्योती – तें आता सांगी शाळेन एक दिस काडलें थंय कुड्डे, लुडबें मेळ्ळें म्हण.

रुबी – दोर एका शाळेन, लुडबे आनी तुज्यासारके कुड्डें आसो येता.

ज्योती – म्हाका याद आसा तेंजें नाव. अक्षयाच आसलें.

रुबी – पूण हेंगेलें नाव अक्षू.

ज्योती – तें तेजें पॅट नाव. ताजें खरें नाव अक्षया. आता तें बदलो घेतलें.

कविता – बदलो घेवपाक तें हांगा आसा खय. आनी अक्षया नावाचें तें एकलेच चेलूं आशा?

ज्योती – म्हाका ताजें आडनावूय याद आसा. बांदेकर, अक्षया बांदेकर. (अक्षया आनी खुशी येता.)

अक्षया – अक्षया, अक्षया बांदेकर नाव म्हजें. टॉप बिजनेसमॅन स्वर्गीय सुहास बांदेकरांचे हांव चेडूं. म्हज्या बापायन हार केन्नाच मानूंक नासली म्हणून ते टॉप पॉजीशनार पावले तांचो हो गुण म्हज्यान आसा. हावूय हार मानचेंना. तुमका हांगासल्यान भायर धावणायतलेच पळयात तुमी, हांव फुडें किदें करता तें. याद दवरात म्हजें नाव अक्षया बांदेकर, चल गो (भितर वता).

ज्योती – हांवेन सावूंग नासलें हेंच तें अक्षया.

कविता – आतां आर्मी मेलीं.(ल्हव (ल्हव काळोख).

(उजवाड जाता, मॅडम येता)

मॅडम – अरे वा! शांत दिसता, ती दोघाय परत येवक ना दिसता. (खुशी, भितरल्यान भायर येता, हातान टॉवेल) आरे, शैतान का नाम लिया और शैतान हाजीर. गेल्लें मगो तू.

खुशी – हय पूण आमीं परत आयली.

मॅडम – आमी? म्हळयार तेंय आयलें. परत येवपाची आसता जाल्यार नेटान वता किदयाक?

खुशी – मॅडम तुमी हें बरे करुंकना.

मॅडम – अरे वा! आतां तूय धमकी दिवंक लागले. तुमका पयलींच सांगलेलें हांवेन. हांगा रावपाचें आसा जाल्यार रितीन रावात.

खुशी – हांव आनी अक्षू रितीन रावता पूण हांका रीत आसा? आता पळयात एकटें बाथरुमान अर्धे वर जालें गेल्यार आजून भायर सरना. हांवेन केन्ना न्हावपाचें?

मॅडम – आतां मनीस वाडल्या, सकाळी बेगीन उठपाची सवय करुन घे. (रुबी आनी कविता येता.)

कविता – हॅलो मॅडम.

मॅडम – खंय गेल्ली तुमीं?

कविता – मॅडम आमी बुसारी मानाल गेल्ली. हे लानपाचे सामान हाडपाक.

खुशी – म्हळयार तुमीं हांगा रानतलीं, अक्षू भायर यो गो. (भायर येता.)

अक्षया – किदें जाला गो?

खुशी – हीं हांगा रानतली म्हणटा.

अक्षया – किदें? हांव पळयता कशीं रानतलीं तीं.

मॅडम – अक्षया, हांवेन काल किदें सांगलेंलें तें विसरलें दिसता तू. तुका रावपाचें आसा जाल्यार बऱ्या बशेन राव ... तांचिकडे तुमीं लक्ष दिवं नाकात.

अक्षया – किदयाक दिवं नाका. इतकें दिस आमीं हांगा रावल्या, पूण रानूंक ना. आमीं बरी हॉटेलान जेयता.

मॅडम – भायर जेवपाक तुमचेकडे पैशे आसा. रानून जेवप ही तांची मजबुरी. तांच्याकडे मेळोन मिसळोन रावात कळळे? म्हाका तांच्याकडल्यान कसलीच कम्प्लेन आयकुपाक येवंक जायना. येता हांव. (वता)

रुबी – तुमी भियो नाकाय गो आमीं तुमकाय रानून वाडटली. तूक जाय जाल्यार धुकराचे मोटोन कोंत्ता.

अक्षया – तूच खा तें. आमीं सदीं भायर जेयता.

कविता – म्हाजी आई शांगताली शदी भायले जेवन बलें न्हू. पॉतान मागील गुलूगुलू जाता. हांव तुका लानून वाडटा.

खुशी – किदें करुंक जाणा तू.

कविता – हांव तोन्याचो लोश, मुगाचो लोश, चेतनी, वलन, दाल......

खुशी – आनी भाजी.

कविता – तीय जाना. मुल्याची भाजी, तामडी भाजी, चितकी .... चितकी

खुशी – किदें जालें?

कविता – म्हाका चितकी कलूंग कळना. (रडटा) म्हाका चितकी मोलुकूच कळना गो.

अक्षया – कळना जाल्यार रडोंग जाय किदयाक, आमकां नाका तुमचें जेवण.

रुबी – व्हय जेंव नाकाय तुमीं. तीं चिटकी आमकां गोमना. (चल गो हे सामान भितर दवरया) (भितर वता)

खुशी – मदींच किदें जालें. धुकराचें मटन कळटा आनी चिटकी मोंडूक कळना.

अक्षया – तुका खबर आसा हांव एका दिसा खातीर गावान सरकारी शाळेन गेल्लें तेन्ना त्या शाळेंतली बाई भुरग्यांक चिटकी मोंडूक लायताली. मात्शे शिकोवप आनी चिटकी मोडूंक लावप. आनी तीं भुरगीं घरा येल्ल्या बशेन जमनीर बसोन चिटकी मोडटाली.

खुशी – त्या दिसा तुवेंनूय मोडली आसतली.

अक्षया – श्या, तीं कामां हांव करुं? आमगेर तसलीं कामां करपाक नोकर आसा.

खुशी – तुका पूण ती एका दिसाची शाळा बरी याद आसा.

अक्षया – याद दवरपाक कारण आसा.

खुशी – कसले? (ज्योती येता)

अक्षया – त्या शाळेन तीन चेडवा आसली. ही आसा तशीच. तेंच्यानी माका चिखलान धुकलून घातलें त्या वेळार हांव खूप रडलें. ती तिघाय आता म्हाका मेळत जाल्यार .....

खुशी – आता तू तांका वळखतले तरी.

अक्षया – वळखचेना पूण मेळळी आनी वळखलें जाल्यार ....

ज्योती – आवयस.

अक्षया – किदें जालें गो. आमच्यो गजाली आयकताले?

ज्योती – ना, म्हज्या दोळयान शाबू गेला.

खुशी – कितलो ओगोत गो तुका न्हावपाक. हांव केन्नाच्याच रावला.

अक्षया – वक्ल काडून न्हाला आसतले म्हणून वेळ लागता. चल तू न्हावन घे. हांव भायर वचून येता.

खुशी – खय वता.

अक्षया – बाथरुमातले स्टोक सोंपला. घेवन येता.
(अक्षया भायर वता, खुशी भितर वता.)

ज्योती – रुबी, कविता ....... (भायर येता)

रुबी – कित जालाय गो. किदया आड्डताय.

ज्योती – प्रोब्लेम जालो.

रुबी – तुगेले वोक्ल काडल्यार प्रोब्लेम, तें आसाय जाग्यार, कित जालें तें सांग.

ज्योती – त्या अक्षयाक सगळें याद आसा.

कविता – शगलें म्हल्याल शाला आनी आमीं?

ज्योती – तेका चिखलान लोळयला तेंय याद आसा.

कविता – तुका कशे कळळें.

ज्योती – तें आता त्या खुशीक सांगतालें. आनी तें म्हणी तीं तिघाय आपनांग मेळोनीत खंय. तुमी लोळयले ताका आनी आता म्हजेरुय येयलें. हांव नासलेच तुमच्या वांगडा.

रुबी – तुमीं भियाताय किदयाक. तीं दोघां आसा आनीं आमीं तिघा.

कविता – हंय, तेतून एक कुड्डे. ताजें वक्ल पडलें काय जालें.

ज्योती – आनी एक लुडबे.

रुबी – आता तुमी धूकरां कोशी जोगडो नाकाय. हांव सांगता तें आयकात. आमीं ओक्सोयाकडे शाळेचें काय उलप ना, ताचेकडे जगडप ना. फ्रेण्डली उलोवया.

ज्योती – म्हाका तर तेजो भयच दिसता. अशें दिसता आताच ते ह्या दारातल्यान येतलें. येयले जाल्यार हांव पायाचेर नाक दवरुन म्हणपी (नाक जमनीर लायता) ना, हांव न्हय. (अक्षया येता.) हांवेन काय करुंकना हांवेन दोळे बन केल्ले.

अक्षया – किदें म्हणटा गो.

कविता – (उकलता) काय ना तें अशेच.

अक्षया – तुमी इतकी भियेल्या किदयाक?

रुबी – काय ना ... अक्षया तुज्या हातान सिगरेटीचे पाकीट? तू सिगरेट ओडटा.

अक्षया – हय, तुका जाय?

ज्योती – बातरुमान सिगरेटीचीं पाकिटा आसां ती तुजी?

अक्षया – रिकामी तीं, हे भरला.

कविता – अकतया शिगलेत बली न्हू गो. ओलू नाका.

अक्षया – तुमका म्हजे पडलेंलें ना. हांव किदें करुं.

रुबी – अे, ओकशोया आमीं किदया जोगडोया. आमीं फ्रेण्डा जावया. बोऱ्या बोशेन रावोया, खेळोया.

ज्योती – खेळोया, लिपच्यालानी ... नाका. लिपच्यालानी नाका.

कविता – अक्षया तू बलें चेलू. शदा लीप आशता.

ज्योती – बावले बशेन.

कविता – तूता घलच्यानी केन्नात मालूंग ना. केन्नाच दोळयान दुका येवंक ना.

ज्योती – तुमचो पणजे व्हडलो बंगलो आसा, गावान व्हडलें घर आसा. तुमगेर गाडयो आसा.

अक्षया – तुमका हें सगळें कशें कळळें,

रुबी – तुका चोयल्यार गोमता तू रीच आसाय ते. हो कॉम्प्युटर तुगेलो गो.

अक्षया – हय.

ज्योती – ह्या कॉम्प्युटरार तू ल्हान आसताना गेमी खेळटाले.

अक्षया – तुका कशें कळळे?

ज्योती – रुबी, म्हाका कशे कळळे?

रुबी – सोगली भुरगीं कॉम्प्युटरार गेमी खेवता. ज्योती आता तुगेलें तॉण बॉन कोर.

अक्षया – पयलीं हांव खूप खेळटाले, आता ना. आता ह्या कॉम्प्यूटरार ईमेल करप आनी ... एक मिनीट दाखयता. (सगळीं कॉम्प्युटराकडे येता अक्षया पाकिट टेबलार दवरुनं सीडी घालता.)

तिघाय – शी. (तिघाय सायडीक सरता.)

अक्षया – किदें जालें?

ज्योती – हीं किदें बुरशेपणा.

अक्षया – बुरशेपणा न्हय, हाका सेक्स म्हणटा.

कविता – आमीं अशलें केन्ना पलोंग ना.

अक्षया – मागीर आतां पळयात.

रुबी – आमकां लॉज दिसता.

अक्षया – लज कसली, हांगा कोण चेडो आसा. आमीं सगळीं चेडवाच तर आसा. तूच सांगीं आतां आमीं फ्रेण्डली रावया. फ्रेण्डशीपेन हें वांगडा पळोवं येता. हांव आनी खुशी हें पळयता.

कविता – नाका. त्यापलश आमीं खेलोया.

ज्योती – हय खेळोया, क्रिकेट खेळोया. माडाचो पिराडो बॅट आनी बॉणो बॉल.

अक्षया – पिराडो आनी बॉणो...

कविता – आमीं .... आमीं मगो अंताक्षरी खेळोया. (खुशी भायर येता) खुशी अंताक्षरी खेळोया.

खुशी – अंताक्षरी ... तुमच्यावागंडा? अक्षया ...

अक्षया – कम ऑन यार. चला खेळोया. हांव म्हणूं पद.

ज्योती – तू खंयचे पद म्हणटले जाणा हांव. लकडेकी काठी, काठी में घोडा, घोडे की धूम पे जो मारा हतोडा.

अक्षया – हांव किदें ल्हान भुरगें हें पद म्हणपाक.

ज्योती – हाव शी री गणेशा घालता. शी. री. ग. णे. शा. कविता म्हण.

कविता – शायद मेली शादीका खयाल दील मे आया है, इसीलिए मम्मीने मेली तुजे ताय कों बूलाया है.

ज्योती – आतां हांव म्हणटा. आवारा हूँ. ऊ ऽ ऽ ऊ. आवारा हूँ ऊ ऽ ऽ ऊ गरदिशमें आसमान का तारा हूँ ऊ ऽ ऽ ऊ.

रुबी – आतां हांव मोनताय. मुगेल्या फेवरेट शम्मी कपुराचे, या ऽऽ हू. या ऽऽ हू. चाहे कोई मुजे जोंगली कोहे. चाहे कोई मुजे जोंगली कोहे.

खुशी – पुरो, पुरो.

रुबी – आतां तूं म्हण.

खुशी – हांव तुमची आयकोन सगळीं पदांच विसरला.

अक्षया – आमीं लिपच्यालांनी खेळया?

खुशी – अक्षू? अक्षू, आर यू मॅड?

अक्षया – म्हाका खेळोशे दिसता, तुमका आवडनां लिपच्यालांनी.

ज्योती – लिपच्यालांनी ... म्हाका धरुंक कळणा ... माका दोळे धापूंग कळणा ..

अक्षया – काय नजो, खुशी धरतले.

खुशी – अक्षू? हांव?

अक्षया – सिम्पल गो. दोळे बन करुन राव. मागीर आमकां सोदून काड. चल राव दोळे बन करुन.

खुशी – अक्षू .....

अक्षया – प्लीज गो. राव म्हज्या खातीर. चला आमी लिपोया.

सगळी – चला, चला (सगळी भायर वता)

खुशी – गेलीं ... खंय लिपली .... हें अक्षू, किदें पिशें जाला, भुरग्याबशेन लिपच्यालांनी खेळोया खंय. ते लेगीत आमच्या दुश्मनावांगडा .....

काल मेरेन ... काल मेरेन न्हय आयज लेगीत तांचेकडे झगडटाले आनी आतां मधीच तांच्यावांगडा लिपच्यालांनी खेळटा. तीं तिघांय तकलेन क्रेक ती कळटा हेय क्रेक जायत. हाव वचना तांका सोदूंक (कॉम्प्युटरार बसता, अक्षयां तिघाकूय वडयता. (तिघाय लोवळया.) अक्षू किदें जालें?

अक्षया – खूप वर्सा पंयलींचो बदलो घेतलो.

खुशी – म्हळयार?

अक्षया – हींच तीं तिघां जांणी शाळेंत लिपच्यालांनी खेळटाना म्हाका चिखलांत धुकलून घातलेंलें.

ज्योती – हांवे काय करुंग नासलें.

अक्षया – करुंक ना, हांव शाळेन भितर सरताच म्हज्या केसांक धरुन तुवेंन म्हाका आडवे वडोंक नासले? आनी तुमी दोघांनी म्हाका चिखलांत दुकंलेंले.... पळयात अक्षयान आपल्या अपमानाचो बदलो कसो घेतलो तो ..... एक ख्रिश्चन, दुसरें लुडबे, तिसरें कुड्डे. तुमका पळोन म्हाका दुबाव मारलेलो. पूण म्हटलें ना, तुमी शाळेंतल्यान आनी गांवांतल्यान भायर सरोकूच ना आसतली, पूण तूमचीं पदां आयकोन म्हाका खात्री जाली. म्हणून मुददाम, तुमका लिपच्यांनी खेळपाचे निमीत करुन भायर व्हेलें.

कविता – तें किलें घेवन बसला. तेन्ना आमी भुरगीं आशली.

रुबी – आता हिशोब बरोबर जालो. तुवेनय आमकां चिखलांत लोळयलें.

अक्षता – ना, हो भुरगेपणाचो बदलो जालो. आता तरनाटयापणाचो उरला. तुमका ह्या हॉस्टेलातल्यान भायर काडपाचें थारायला हांवेन. आता पळयात तुमची हांव कशी हालत करता ती. तुमका हें हॉस्टेल सोडून वचचेच पडटलें.

(ल्हव ल्हव काळोख)

(उजावाड जाता, अक्षया कॉम्प्युटरार बसला)

अक्षया – खुशी, खुशी ऽऽ

खुशी – (भायर येता) किदें गो.

अक्षया – अक्षराचो मेल आयला.

खूशी – किदें म्हणटा भयण तुजी.

अक्षया – तेका मोगी सांपडलो.

खुशी – किदें सांगता, कोण?

अक्षया – घोडयेन तेंच बरोवक ना मागीर बरयता खंय.

खुशी – म्हळयार तुज्या भयणीचें जमलें तर. तुजें सांगलें मगो ताका.

अक्षया – म्हजें किदे?

खूशी – तू आतेच्या चेड्याकडे मोग करता तो.

अक्षया – ना सांगूंग.

खुशी – बाबडें आपल्यो सगळयो गजालीं तुका सांगता आनी तू ......

अक्षया – ताजो मोग बोथ सायडेड जालो. म्हजो अजून वन सायडेड आसा.

खुशी – मागीर कर बेगीन बोथ सायडेड.

अक्षया – म्हजें सोडून दी. आमचीं माकडां किदें करता?

खुशी – जिबलेक वारो दिता. काल तुवेंन तांचे च्यायेन मसालो घातलो न्हय.

अक्षया – अजून कांय जावंक ना. तांका भरपूर त्रास दिवपाचो आसा म्हाका. (ज्योती पुस्तक हातान घेवन भायर येता)

खुशी – हें पळय स्कॉलर आयलें.

अक्षया – हाचें दोळे फुटल्या तरी तें पुस्तकान घुसोन दवरल्या.

खुशी – किदें गो इतको अभ्यास करुन खंय वचपाचें आसा.

ज्योती – आमी जिवीतान फुडें सरपाकूच हांगा मेरेन पावल्या.

अक्षया – तुमी, कमळ जाली तरी पायाकडे चिखल आसा तो विसरो नाकात. (रुबी भायर येता)

रुबी – ज्योती आमीं वोयताय. ओकसोया, खुशी तुमी कॉलेजीन वॉचनाय.

खुशी – आमीं आमच्या मर्जीची. जाय तेन्ना वतली.

रुबी – ज्योती तू अभ्यास कर, किदें हाडूंक जाय तुका?

ज्योती – नाका.

रुबी – कोविता ऽऽ (कविता भायर येता)

कविता – लुबी म्हजो दुप्पता कोणी पिनलो.

रुबी – चोवया, हो कातरीन कापला. ओक्सोया, तुवेन मुगो?

अक्षया – (आंगार वता) प्रुफ आसा तुजेकडे.

रुबी – तुज्याबोगर कोण कोत्तोलो.

ज्योती – कविता, तू म्हजो दुपंट्टा घाल.

कविता – नाका आशू. हांव वयता तशेंच. चल लुबी (दोघांय भायर वता)

अक्षया – किदें गो कुड्डुया, तुका दिसता हांवेन पिनला कसो.

ज्योती – हांवेन खंय म्हटला, उनरानी खाल्ला आसतलो. (रुबी येता)

रुबी – ओक्सोया, मुगेले चप्पल खय?

अक्षया – म्हाका किदें विचारता.

रुबी – तुवेन लिपोन दवरला आसतलें.

अक्षया – लिपोन दवरुंकना, काडून भायर मारलें. सांग किदें करतलें?

रुबी – तूका किदें दिसोता, हावं तूक ओगी रावतले.

अक्षया – किदें करतलें, किदें करतलें गो.

ज्योती – आसू जगडो नाका. रुबी तू म्हजें चप्पल घालून वच. हांव मागीर सोदून दवरता. चल (वता)

अक्षया – तू किदें गो सगळयांचें चोमचे जाला.

ज्योती – ती दोघांय हातान जेयता. हांव तांचे चमचे कशें जातलें.

अक्षया – तू किदे म्हजी फकाणां करतां. आता तू घरान एकटेच आसा हे लक्षात दवर

ज्योती – म्हाका परवा पेपर आसा. प्लीज माका अभ्यास करुंनी.

खुशी – तू कर तुजो अभ्यास. तुका आमीं आडायला?

अक्षया – वक्ल काडल्यार तुका पुस्तकान कायच दिश्टी पडचेंना न्हय.

ज्योती – ना.

अक्षया – ना, तशें जाल्यार बरे आसा. (ताचें वक्ल काडटा) आतां कर अभ्यास.

ज्योती – नाका गो, प्लीज म्हजें वक्ल दी.

अक्षया – वक्ल जाय जाल्यार म्हाका सोदून काड आनी घे.

ज्योती – वक्ला बगर म्हाका दिसना.

अक्षया – दिसना? मागीर वक्ल नासताना म्हाका शाळेन आडवे कशें घातलें.

ज्योती – अक्षया तुका किदें करुंक जाय तें तूवेन केला. आता तू आमचे वाटेक येवं नाका.

अक्षया – धमकी दिता म्हाका?

ज्योती – हाव तुका धमकीं दिना. म्हजे वक्ल दी. चड ओगोत वक्ला बगर हांव रावो शकना. म्हजी तकली दूखपाक लागता.

अक्षया – वक्ल जाये? घे गो खुशी. (हेवटेन तेवटेन नाचयता.)

ज्योती – अक्षया, आमकां त्रास दिता हाचो परिणाम बरो जावचो ना.

अक्षया – किदें करतलें गो कुड्डुया, किदें करतलें?

ज्योती – आर्मी हॉस्टेल सोडूंक जाय म्हण तू अशें करता. आर्मी वयचीं ना.

अक्षया – वयचीं ना. हें घे (वक्ल भायर मारता)

ज्योती – किदें केलें?

अक्षया – तुजें वक्ल भायर मारलें.

ज्योती – अक्षया, म्हजें वक्ल भायर मारपाची तुजी हिम्मत कशी जाली.

अक्षया – हिम्मत कशी जाली. आता तुकात भायर मारता. (हाताक ओडीत भायर व्हरता. खुशी दारार रावता.)

खुशी – अक्षू, अक्षू सोड ताका. आसू अक्षू नाका, ताका सोपाणावल्यान वडोवं नाका, अक्षू नाका. (ज्योतीचो भायल्यान आवाज) अक्षू ऽऽ
(ल्हव – ल्हव काळोख)
(उजवाड जाता. ज्योतीच्या तकलेर पटटी, रुबी – म्हन्यान बसला, कविता भायरसून येता.)

कविता – ज्योती, हें घे घाल.

ज्योती – वक्ल? तुवेंन नवीन हाडलें?

कविता – हय.

ज्योती – पैशे?

कविता – तू तो विचाल कलू नाका. हें घाल आनी अभ्यास कल. (घालता) लूबी आमी दुशलेकले लावया. किल्याक हें त्लाश. लावोनी तांका दोघांक हांगा.

रुबी – म्हाकाय तॉशेच दिसोता. तीं आमकां खूप हेट कोत्ता. आयज तेणी ज्योतीक सोपणावयल्यान वडयले. एक दिस बिल्दीगेवेल्यान वडयलें जाल्यार.

कविता – आता शहन तली कितली कलतली. मॅडमीक सांगलें जाल्याल आनींग त्लाश कलतली.

रुबी – दुसरेकडे जागो मेळोंक जाय नाजाल्यार जेका लागोन शारान येयल्या ते सोपन अर्धकुटे उरतलें.

ज्योती – ना, आमचें स्वप्न अर्धवट उरचें ना. आता आनींक अन्याय सहन करप ना. जालें तें खूप जालें. आता सहनशक्ती सोंपल्या. आता ह्या सहनशक्तीचो शेवट जावकूच जाय आनी तो तेन्नाच जातलो जेन्ना ह्या अक्षयाचो अंत जातलो.

कविता – हलू उलय, किलें उलयता ते कळता तूता.

ज्योती – हांव विचार करुन उलयता. त्या अक्षयाक आमी मारुन वडोवया.

कविता – तू शूतला काय किलें गो. तेंका मालले काय आमका फाशी जातली. आनी ही ओशली कामां आमका जमचींना.

ज्योती – तें आपल्या भुरग्यापणांतल्या, अपमानाचो बदलो घेवं शकता जाल्यार हांव कालचो बदलो घेवं शकना?

कविता – हय पुन तू चितता तें बलोबल न्हय. बालीक गोस्ती खातील. ...

ज्योती – बारीक गजाल? काल सोंपणावेल्यान पडोन म्हजो जीव गेल्लो जाल्यार. कपडे पिनता, चपला लिपोन दवरता, च्यान मसालो घालता. एक दिस जेवनान विख घालतलें. तें काय ना ह्या अक्षयाचा अंत जावकूच जाय. तुमीं म्हज्या बरोबर आसा कांय ना.

रुबी – हांव आसाय.

कविता – तुमी दोघांय आशा थंय हांव आशा. पून हें आमचेकले जातलें?

ज्योती – असो प्रश्न उबो जालो काय भुरग्यापणान आमी किदें म्हणी तें म्हणोया. (हातान हात दितात.)

| | | |
|---|---|---|
| तिघाय | – | हम होंगे कामयाब, हम होंगे कामयाब.... |
| | | (ल्हव – ल्हव काळोख) |
| | | (उजवाड जाता, अक्षया कॉम्प्युटरार बसला, फाटसून तिघांय येता, ज्योतीच्या हातान दाणो.) |
| ज्योती | – | ते पळय अक्षया कॉम्प्युटरार बसला. |
| कविता | – | आमकां दिशता, आमी तुज्याबशेन कुड्डीं न्हय. |
| ज्योती | – | हांव लुलबें न्हय. |
| रुबी | – | कित मोनतोलो तुमका होरशी जोगडटाय बॉरी आसाय, आयज खून कोत्तानाय जोगोडताय. |
| कविता | – | पून खून कलप कसो? |
| ज्योती | – | हो दाणो ताज्या तकलेर मारपाचो. |
| कविता | – | तें बॉवाल मालचेंना? तॅचो बॉवाल आयकोन ते खूशी जागे जाले आनी तेणी आमका पळयलें जाल्याल. |
| रुबी | – | तें फुयच्यान पोयतलें. तें गेलें घॉरा. तेक घरा कोडल्यान फोन येयला. ताची माय बोरी ना फूंय. |
| कविता | – | म्हतल्याल हें आता एकतेच आसा. चला मालया पून मालतोले कोन? |
| ज्योती | – | हांव मारता. तू हें वक्ल धर. |
| कविता | – | नाका तेंका मालचे शानून आमकांच मालतले. वक्ल घालून मालता जाल्याल माल. |
| ज्योती | – | चला येयात म्हज्या फाटल्यान. (ल्हव फाटल्यान वता, ज्योती दाणो मारता, अक्षया जमनीर पडटा) मारलें, मारलें. |
| कविता | – | बॉवाल मालू नाका, मेलें काय जितें आशा तें पलोंग जाय. |
| ज्योती | – | मेलें तें. |
| कविता | – | कशें कळ्ळे. |
| ज्योती | – | दाणो मारतकूच ते फडफोडोंगना. |
| कविता | – | तुका तुवेन शोलोप माल्ला कशो दिसता. |
| रुबी | – | हांव चोयता. |

कविता – तुका कळटा?

रुबी – व्हय मुगेलो पाय धुकरार फार मारी मागीर तो मेलो काय कन्फम हाव कोत्ताले. हांव चोयता. (तपासता) मेलें, मेलें.

ज्योती – आता किदें करपाचें. म्हाका फाशी जावंक जायना. म्हाका राजवाचो भय दिसता. हाव बायचेर लेगीत उदक केन्ना काडिनासलें.

कविता – आमकां काय जावचें ना. एक काम कलया. हेका त्या गॅल्लींतल्यान उदोवया आनी शगल्यांग शांगया ते अभ्यास कलताना पदले म्हण. वांगला बुकूय उलोवया, चला उकला.
(तिघाय अक्षयाक ओडीत व्हरता, ल्हव – ल्हव काळोख)
(उजवाड जाता, ज्योती आनी कविता बसला, रुबी भायरसून येता)

ज्योती – किदें जालें गो.

रुबी – काय ना, सकयल लोक जमल्या. तो इन्स्पेक्टर वयर येता दिसता.

ज्योती – म्हाका भंय दिसता.

कविता – तू भियो नाका, नाजाल्यार शगल्यांक आमचेल दुबाव येतलो. आनी त्या इन्स्पेक्टलाकले, खले उलयशीत. (मॅडम इन्स्पेक्टराक घेवन येता.)

मॅडम – येयात इन्स्पेक्टर, ही अक्षयाची रुम पार्टनर. तुमका इन्स्पेक्टर कांय प्रश्न विचारतली ताची खऱ्यो जापो दियात.

कविता – खल्यो म्हल्याल?

मॅडम – म्हळयार कशें किदें जालें तें सांगात. इन्स्पेक्टर तुमी विचारात तांका.

इन्स्पेक्टर – तर तुमी तिघाय ह्या रुमान रावता.

रुबी – हय.

इन्स्पेक्टर – तुमच्याबरोबर अक्षयाय रावतालें?

रुबी – हय.

इन्स्पेक्टर – कशे पडलें तें?

कविता – आमी धुकलून उडोंगना ताका.

इन्स्पेक्टर – हांवेन खय तशें म्हटला. बरें तें कशे पडलें सांगू शकता.

खुशी – ते गॅलरीर बसोन अभ्यास करताले तेन्ना पडलें.

खुशी – तुमी तेन्ना किदें करी.

खुशी – आमी बॅडरुमान आसली.

खुशी – बॅडरुमान आसली? मागीर गॅलरीतल्यान ते पडले हे कशे कळ्ळे तुमका?

खुशी – आवाज येयलो.

खुशी – तिसऱ्या मजल्यावेल्यान रस्त्यार पडल्याचो आवाज तुमका बॅडरुमान आयकोपाक येयलो?

रुबी – ना.

इन्स्पेक्टर – ना?

कविता – तेणी पलताना किलच माल्ली.

इन्स्पेक्टर – आय सी..... हे ओगी किदयाक? .. किदें जाला, तें इतके भियेला किदयाक? तुज्या तकलेक ही पटटी किदयाक बानल्या.

कविता – बातलूमान पदलें तें. (खुशी येता)

खुशी – मॅडम (मॅडमाक वेंग मारता) मॅडम हें कशें जालें. अक्षया आमका कशें सोडून गेलें.

मॅडम – खुशी ओगी राव. गेलें ताका परत कशें हाडूया.

इन्स्पेक्टर – हें कोण?

मॅडम – हें अक्षयाचें फ्रेण्ड.

इन्स्पेक्टर – म्हळयार पाचवें पार्टनर तूं खंय गेंल्लें तर.

खुशी – हांव घरां गेल्लें.

इन्स्पेक्टर – अचानक घरां किदयाक?

खुशी – घरां आवय बरी ना म्हण फोन येयल्लो.

इन्स्पेक्टर – तुका किदें दिसता ... तुजें फ्रेण्ड पडलें. तेणें जीव दिला काय .... ताका कोणें धुकलून उडयलें. ..... किदें जालें? ओगी शें काय लिपो नाका. तुज्या फ्रेण्डाक न्याय मेळोंक जाय जाल्यार काय लिपो नाका.

खुशी – ह्या तिघांचे आनी अक्षयाचें पटा नासलें. झगडीं चालूच आसताली.

इन्स्पेक्टर – कोण झगडी करी?

खुशी – अक्षया हांका खूप त्रास करी. हांचे कपडे पिनताले, जेवण पिड्डयार करी. चपलां लिपोन दवरीं, ताजोच हांच्यानी बदलो घेतला जावं येता.

मॅडम – खुशी, किदें उलयता तें विचार करुन उलय.

इन्स्पेकटर – मॅडम, ते आपलो दुबाव सांगता. उलोवनी ताका. सांग तू.

खुशी – त्या दिसा ह्या ज्योतीक ताणें सॉपाणावेल्यान सकयल वडयलें.

इन्स्पेकटर – हें खरे?

कविता – आ ....... ह ...... हय.

इन्स्पेक्टर – ताजो हो घावो तर. पूण तू सांगी तें बाथरुमान पडला म्हण.

खुशी – फट, साफ फट. तेंका वडयताना हांव म्हन्यान आसलें. विचार ज्योतीक.

खुशी – हांवेन काय करुंकना. तें पडलें, अभ्यास करताना पडलें.... तें सिगरेट ओडी.

इन्स्पेक्टर – अक्षया सिगरेट ओडी?

खुशी – हय, पूण गॅलरीत रावोन ताणें केंन्नाच सिगरेट ओंडूक ना. मॅडमीच्या भयान तें बाथ रुमान ओडटालें. जाय जाल्यार बाथरुमान पळयात सिगरेटीचीं पाकिटां पडलेलीं आसतलीं.

इन्स्पेक्टर – तेन्ना तें सिगरेट ओडी नासलें आसत पूण अभ्यास करतालें कारण ताच्या बॉडीच्या कुशीक आमका फिलोसॉफी बूक सापडला.

खुशी – फिलोसॉफी? तशें जाल्यार तें अभ्यास करताना पडोंक ना.

इन्स्पेक्टर – किदयाक म्हण्टा तू?

खुशी – अक्षया कॉमर्स स्टूडन्ट ते फिलोसॉफी पाठ किदयाक करतलें. तों बूक म्हजो. हेच्यानीत ताका वडयला आनी तांचेवांगडा बूक वडयला. इस्पेक्टर आनीक एक गजाल तुमका सांगता. म्हजे आवयक कांय जावंक ना कोणे तरी खोटो फोन करुन म्हाका धाडलें. तो फोन हांच्यानीच केला आसतलो.

इन्स्पेक्टर – खूपश्यो गजाली तूमचेरुच बॉट दाखयता. हांव जाणा तुमी सत लिपयता. तें सत हांगा, भायर येवचेंना. तुमका पोलीस स्टेशनार व्हरचें पडटलें.

तिघाय – आमीं कांय करुंक ना, आमीं काय करुंक ना. (इन्स्पेक्टर तांच्या म्हऱ्यान वता.)

(ल्हव ल्हव काळोख)

(उजवाड जाता, खुशी टेबलार तकली तेकोन बसला, मॅडम येता.)

मॅडम – खुशी, अशें कितले दिस दु:ख धरतलें. तू तुज्या अभ्यासाकडे लक्ष दी.

खुशी – चोवीस वरां अक्षया म्हज्या म्हऱ्यान आसतालें. कशें विसरो ताका. (इन्स्पेक्टर तिघांक घेवन येता.) इन्स्पेक्टर किदें जालें?

इन्स्पेक्टर – किदें जातलें. तुजो दुबाव खरो ठरलो. ह्या तिघांनी मेळून अक्षयाक मारले. ताचे तकलेर दाणो घातलो आनी तेका गॅलरीतल्यान वडयलें. दुबाव येवंक जायना म्हण बूक उडयलो. आता चलात तुमी खंय किदें केलें तो जागो दाखयात. (मम्मा येता)

मम्मा – खुशी ... खुशी.

खुशी – कोण?

मम्मा – खुशी कोण?

खुशी – हाव, कोण तुमी?

मम्मा – हांव अक्षयाची मम्मा. तू अक्षयाचे लागचे फ्रेण्ड मगों. सांग तेणी जीव किदयाक दिलो.

इन्स्पेक्टर – मिसेस बांदेकर, अक्षयान जीव दिवंक ना. ताजो खून जाला आनी तो ह्या तिघांनी केला.

मंम्मा – हांच्यानी म्हज्या अक्षयाक मारलें, किदयाक?

इन्स्पेक्टर – कारण किदेंय आसूं पुण पोलिओ जाल्या चेडवाक मारपाचे मन जालेच कशें.

मम्मा – तुमी कोणविशी उलयता, कोणाक पोलिओ आसलो.

इन्स्पेकटर – कोणांक म्हळयार अक्षयाक.

मम्मा – अक्षयाक पोलिओ नासलो.

इन्स्पेक्टर – रस्त्यार ज्या चेडवाची बॉडी आमका सापडल्या त्या चेडवाच्या एका पायाक पोलिओ आसलो.

मंम्मा – पोलिओ अक्षयाक न्हय अक्षराक आसलो.

इन्स्पेटर – अक्षरा?

मम्मा – अक्षयाची जुळी भयण, अक्षरा.

खुशी – अक्षरा अक्षयाची जुळी भयण?

मम्मा – हय.

खुशी – तशें जाल्यार म्हजें अक्षया जितें आसा. मेलें तें अक्षरा.

मम्मा – हें कशें शक्य आसा.

खुशी – किदयाक?

मम्मा – अक्षरा तर म्हज्या बरोबर आसा. आता तें सकयल गाडयेन आसा.

इन्स्पेटर – मेलें तें कोण अक्षया काय अक्षरा. मिसेस बांदेकर तुमी अक्षराक वयर हाडटा?

मम्मा – एक मिनीट (मोबायल लायता.) हॅलो ..... अक्षरा. बाय मात्शें वयर येता. लिफ्टीन यो ... रुम नंबर... रुम नंबर आठ. (दवरता)

खुशी – म्हजें अक्षया जितें आसा. हांव सागंता तुमका येता तें अक्षरा न्हय अक्षया आसतले.

इन्स्पेक्टर – तें अक्षया जाल्यार ताका आपलो रुम नंबर पाठ ना? तुवेंन आयकोंक ना ताणें फोनार रुम नंबर विचारलो तो?

खुशी – येवनी ताका, सगळो गोंधळ पैस जातलो.

मम्मा – हें पळय आयलें. (अक्षरा लंगडत येता)

खुशी – अक्षया ....

अक्षरा – हांव अक्षया न्हय, अक्षरा ... अक्षया तर .... (रडटा)

मम्मा – इन्स्पेक्टर अक्षयाक इतक्या वयल्यान वडयला. ताजो पाय मोडला आसत म्हण तुमका तो पोलियो दिसला आसत.

इन्स्पेक्टर – आसूं येता, पोस्टमार्टम रिपोर्ट येवपाचो आसा तेन्ना कळटले.

खुशी – अक्षरा तू रडों नाका. चल तॉणार उदक मारुन घें. (खुशी अक्षयाक भितर व्हरता आनी, स्वता येता. इन्स्पेक्टराचो मोबाइल वाजता.)

इन्स्पेक्टर – हॅलो, सांग, पोस्टमार्टम रिपोर्ट आयलो? मागीर किदें? आनी म्हाका एक सांग ताज्या पायाक किदें मेळ्ळा रिपोर्टान पळय आनी फोन कर. (फोन बंद करता.)

मम्मा – किदें जालें इन्स्पेक्टर?

इन्स्पेक्टर – पोस्टमार्टम रिपोर्ट आयला. अक्षयाचो खून गळो दामून जाला. म्हळयार तुमी म्हजेकड़े फट उलयल्या.

कविता – ना, आमीं खलें तें शगलें शांगला. (इन्स्पेक्टराचो मोबायल वाजता.)

इन्स्पेक्टर – हॅलो, सांग ... किदें? .... बरें. (बंद करता) मिसेस बांदेकर पोस्टमार्टमाच्या रिपोर्टा प्रमाण अक्षयाच्या पायाक पोलिओ आसा. (अक्षरा भायर येता, खुशी भितर वता.)

मम्मा – इन्स्पेक्टर हें कशें शक्य आसा. तुमचे खंय तरी किदें चुकता. म्हजें एकूच चेडू अपंग आसा. (खुशी भायर येता.)

खुशी – अक्षया

अक्षरा – हांव अक्षया न्हय, हांव अक्षरा.

खुशी – तू सिगरेट ओडटा?

अक्षरा – हांव? ना.

खुशी – मागीर आता बाथरुमान तूवेंन सिगरेट कशी ओडली? ही पळय, ही सिगरेट तुवेन आता बाथरुमान ओडल्या.

अक्षरा – ना हांव सिगरेट ओडीच ना.

खुशी – अक्षया सिगरेट ओडटाले. आनी तुवेनं आता सिगरेट ओडल्या.

इन्स्पेक्टर – अक्षरा म्हाका तुजो पाय पळोंक जाय. चुडिदाराची पेन्ट वयर काड.

अक्षरा – हांव काडचेंना.

मम्मा – अक्षरा, पेन्ट वयर कर.

अक्षरा – मम्मा तुका म्हजेर विश्वास ना. तुज्या चेडवाचेर विश्वास ना.

मम्मा – मेले तें म्हजेच चेडू. कर पॅन्ट वयर.

अक्षरा – ना हांव करचें ना.

इन्स्पेक्टर – म्हळयार तू अक्षया.

अक्षरा – ना हांव अक्षरा.

इन्स्पेक्टर – अक्षराक पोलिओ आसलो. दाखय तुजो पोलिओ जाल्लो पाय. आमी कशे विस्वास दवरुं तू अक्षरा म्हण.

अक्षया – हांव अक्षरा बशेन, लगंडटा तें.

इन्स्पेक्टर – अक्षरा बशेन म्हळयार तू अक्षरा न्हय, तू अक्षया.

अक्षया – हांव ..... हांव.

इन्स्पेक्टर – आतां फट उलोवं नाका. खरें तें सांग कोण तू?

अक्षया – हय? हांव अक्षया. मेलें तें अक्षया न्हय, अक्षरा. हांवेंन मारलें अक्षराक. खून केलो तेजो.

मम्मा – अक्षया, तुवेनं तुजे सख्ये भयणीक मारलें? अगो किदें वायट केल्ले अक्षरान तुजे. सांग अक्षया किदें वायट केलें अक्षरान तुजें.

अक्षया – हें, तू म्हाका विचारता, दोन जुळीं चेडवां तुका पूण मोग तुमीं ताकाच चड दिलो. भुरग्यापणान तुमीं ताजेंच लाड केलें म्हणून अक्षराकडे हांव कुस्केंपणा करुंक लागलें. हें पळोन तुमी म्हाका पणजेच्यान गावान शिक्षणाक घातलें. नवो बंगलो सोडून गांवच्या पोरण्या घरान म्हाका दिस काडचे पडले. किदें दिता तें सगळें ताकाच. डॅडी गेलो पूण वतना चड प्रोपर्टी ताज्याच नावार करुन गेलो. दोघाय आमीं जुळी, वर्सा सारकी, दिसपाक सारकी. मागीर हो भेदभाव किदयाक केलो.

मम्मा – कारण अक्षरा अपंग आसलें.

अक्षया – तें अपंग आसलें जाल्यार हातून म्हजी किदें चूक?

मम्मा – म्हणून तुवेनं ताका मारलें.

अक्षया – ताका मारपाक कारण एकूच नासलें. अक्षराक सगळें मेळ्ळें. इतकेच न्हय, तर जाचेर हांव मोग करी तो चेडोय ताकाच मेळ्ळो. आतेचो चेडो ताजेर मोग करुंक लागलो. ह्या सगळयांक लागोन हांवेन ताका मारलें.

इन्स्पे<u>क्टर</u> – पूण हें तुवेंन केलें कशें?

अक्षया – हीं तिघांय म्हाका मारपाची प्लॅनींग करताना हांवेन आयकलें आनी जाळें तयार केलें. खुशीक खोटो फोन करुन घरा धाडलें. अक्षराक किदें उलोवपाक जाय म्हण सांगून हॉस्टेलान आपयले आनी लिफ्टीन ताजो गळो आवळ्ळो. ताका हांगा खुर्चेर बसोवन कॉम्प्युटर चालू केलो. हांका दिसलें हावूच बसला. हांच्यानी अक्षराचेर फाटल्यान वार केलो आनी स्वताक वाटावपाक ताका गॅलरींतल्यान वडयलें. हांव अक्षरा जावन, मम्माकडे पावलें. पूण आता म्हजें भिंग फुटलें.

मम्मा – आता हांव सांगता तें आयक. अक्षरान आपल्या वाट्याक मायज आयिल्लें तुज्या नांवार करुन वाटो बरोबरीन केल्लो.

अक्षया – किदें?

मम्मा – इतकेंच न्हय, तेका खबर आशिंल्लें तू आतेच्या चेड्याच्या मोगान आसा तें. तुज्याकडल्यान हें घालून काडपाक तेणी तो आपलो मोगी म्हण फट मारिल्ली.

अक्षया – किदें?

मम्मा – हय, तू तुज्या आवय–बापायक वळखोंक चुकलें आनी भयणीकूय वळखोंक चुकलें. तू म्हज्या पॉटानूत किदयाक मरोंकना. इन्स्पेक्टर प्लीज घेवन चलात हाका.

इन्स्पेक्टर – चल (घेवन वता)

मम्मा – म्हज्या चेडवाखातीर तुमका त्रास जालो. हांव माफी मागता तुमचीं.

कविता – तुमी आमका वळखोंक ना. आमींच ती शलकाली शालेंतलीं तीन बुलशीं भुलगीं.

मम्मा – किदें? म्हाका याद आसा, त्यावेळार हांवेन खूप वायट उतरा दिल्यां पूण आयज म्हाका कळ्ळें मनशाक कपडे घडयना ताचे मन घडयता. तुमी गांवांतल्यान शारामेरेन पावली. जिवितान अशींच मुखार सरात आनी सगळयांक दाखोन दियात की तुमी कमीं ना.

तिघाय – हय, आमीं ना कमीं ....

(तिघांय हातान हात धरता. ल्हव–ल्हव पडदो येता.)

"समाप्त"



महेश चंद्रकांत नाईक

## उजवाडाक आयिल्लीं नाटकां

- ॲक्शन
- ऑल फॉर यू
- ॲरेस्ट हिम
- ॲक्टींग ॲक्टींग
- आय ॲम सॉरी
- ॲक्चुअली... आय लव्ह यू
- आत्मो
- आत्या, आत्या सून कर
- ओन्ली फॉर यू
- आमीं ना कमीं